२०१४-१७ आवदेचें ३७-वें पुस्तक



# अनामिका

(काण्यां झेलो)

भक्ता आर. काञंगाड



पर्गट्णारः



कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमी
महानगरपालिका बांदप, लालभाग, मंगळूर ५७५ ००३
PH: ०८२४-२४५३१६७
Email: kksa1994@gmail.com. website: www.konkaniacademy.org

**अनामिका : भक्ता आर. कान्हंगाड** हाणे बरयिल्ल्या मोटव्या काणियांचो पुंजो.

हें पुस्तक डा. देवदास पै, रिजिसट्रार, कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमी, लालभाग, मंगळूर-३, हाणी पर्गटला आनी आसिस्सी प्रेस, मंगळूर हाणी छापून हाडला.

पयलो छापो : २०१५ (देवनागरी)
हक्कां : पर्गटणाराचीं
फोर : विल्सन, कययार
छाप्या सहकार : विक्टर मतायस
पानां : viii + ६८

**Anamika:**

Collection of short stories in Konkani (devanagari script) by Bhaktha R. Kanhangad.

This book is published by Dr Devadas Pai, Registrar, Karnataka Konkani Sahitya Academy, Lalbhag, Mangaluru-3 and printed at Asissi Press, Mangaluru.

**First Edition:** : 2015
© : Publisher
**Cover Design** : Wilson, Kayyar
**Co ordination** : Victor Mathias
**Pages** : viii + 68
**Paper** : 80 gsm N.S. Maplitho, demi 1/8 size
**Cover** : 250 gsm Art Card

**ಮೊಲ್**
**Price** **₹ 50/-**

# अध्यक्षाचीं उत्रां



कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमी कोंकणी लोकाच्या समग्र साहितीक आनी सांसकृतीक वाडावळिक सरकारान दिल्लो संस्थो. कोंकणेची विविधता सांबाळून, सर्वांक कोंकणी सात्या पंदा एकवटांवची जवाबदारी अकाडेमिची. करनाटकांतल्या ४१ समुदायांक वळकुंची, तांचे थंय पांवची, कोंकणी भाषे थंय तांकां व्हडपण भोगिशें करची जवाबदारी अकाडेमिन अपुरबायेन सांबाळ्ळ्या.

प्रस्तुत आवादेंत 'कोंकणी साहित्य–कोंकणी संसकृती–कोंकणी शिकप' हो ध्येय दवरन आमी आमची काऱ्या येवजण मांडून हाडल्ली. म्हयन्याक दोन पुस्तकां पर्गटचीं, तीं विकूंक मोबैल कोंकणी बजार, कोंकणी समुदाय आसचेकडे वचून कोंकणी कारर्यी, युवजणांक, भुरग्यांक कोंकणे थंय मोग वाडोंवचीं कारर्यी आसा करतांव.

आमी येवजिल्लें व्हड स्वपण कोंकणी अध्ययन पीठ मंगळूर विश्वविद्यानिलयांत सुर्वातलां. ह्या पीठाच्या वावरान कोंकणेचो अध्ययनात्मक वावर बळाधिक जावन फुडें वेतलो म्हण आशेतां.

फुडल्या आवदेंत कोंकणी शिकपाक चड महत्व दितलयांव. पियुसी आनी डिएड/बिएड वेवस्तेंत कोंकणी हाडूंक गरजेचो वावर मुकारून वेतलो. तशेंच स्नातकोत्तर शिकपांत कोंकणी हाडचो वावर चलतलो.

भक्ता आर. काजंगाड हांचो देवनागरी लिपिंत लिक्ललो कथां झेलो 'अनामिका' पर्गटुंक आमि संतोस पावतांव.

सर्वांक देव बरें करूं.

**रोय क्यास्तेलिनो**

अध्यक्ष

# कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमी

## २०१४-१७ आवदेचे अध्यक्ष आनी सांदे

**अध्यक्षः**
श्री रोय क्यास्तेलिनो, मंगळूर

**सांदेः**
डा. अरविंद श्यानभाग, बिजापुर
श्री अशोक कासरकोडू, होन्नावर
डा. चेतन एस. नायक, धारवाड
श्री कमलाक्ष शेट, उडुपी
श्री शेखर गौड, बजपे
श्री जयराम नारायण सिद्धी, यल्लापुर
श्री एम. एम. मीरन, बैंदूर
श्रीमती ममता कामत, मैसूर
डा. वारिजा निरबैल, बंटवाळ
श्री याकूब अह्मदजी, शीरूर
श्री लुल्लुस कुटिन्हा, बेंगळूर
श्री के. देवदास पै, मंगळूर
श्री लोरेन्स डिसोजा, वामंजूर

**अधिकारी वर्गः**

**निरदेशकाचो प्रतिनिधीः**
श्री बलवंतराव पाटील, बेंगळूर

**रिजिसट्रारः**
डा. बी. देवदास पै

**अर्थ सदस्यः**
श्री चंद्रहास रै, मंगळूर

# प्रकाशकालीं उत्रां



कोंकणी भाशेचे उदरगती खातीर अकाडेमी, विंगड विंगड रूपारी काम करता आनी विविध रीतिचे वावर मांडूनु हाडता. तांतूनु साहित्य प्रकटणे कामां खूब गरजेचें उरता. कोंकणी अकाडेमिचे अध्यक्ष श्री रोय क्यास्तेलिनो बाब – हाणीं हर एक महिन्यांतु दोन बूक प्रकट करचाक घाल्लीं योजने पर्माणे वेवेगळे बोलिचे, वेवेगळे साहित्य प्रकाराचे बूकां प्रकट जात्त आससा. पुस्तक रूपाचे साहित्य लोकांचे हाताक पावल्यारी वाचपा वाडता. बरोवपी खुषी पावतात. चड लोक बोरोवचाक उमेद घेताले. आनी अशी साहित्य शेताचे गिरेस्तकाय चडता. आमची कोंकणी भाशेचे तेज ऊंच पावता.

पुस्तक प्रकटण एक कषटाचे काम, सकडांक गोत्तस्स. बरें साहित्य वेंचून काडचे एक सवाल जाल्यारी, चूक नातिल्ले सोबीत रूपारी बूक छापचे, मदेंतले डी.टी.पी. काम, प्रूफ रीडींग सकड नाजूकेरी चलता. ह्या पूरा काम जावचेथांय हुसको आसता. शृब्धेन ह्या काम कोरचे अकाडेमी टीम आनी तांचे वावर निजाकयी तोकणायिचे.

सकडांकय देव बरें कोरूं.

मंगळूर
०९-१२-२०१५

**डा। बी. देवदास पै**
**रिजिस्ट्रार**

# दोन उत्रां

मलयाळम भाशेंतु म्हजीं कांय पुस्तकां प्रकट जाल्ललीं आसात. कोंकणी भाशेंतु हें मेगेलें दुसरें पुस्तक. हांतूं धा काणियो आसात. ह्यो काणियो ते ते काळार पत्रिकेंत उजवाडा आयिल्यो.

अशें एक पुस्तक परगट जातलें – अशें लेकिल्लें न्हय. कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमींत महिन्याक दोन पुस्तकां परगट करतात तें आयकून, हांवें हें पुस्तक पेटोवनु दिलें. तांकां इश्ट जाल्लेले कारण आजी हें पुस्तक उजवडाक येता.

हांव मलयाळम या कोंकणी भाशेंतु नांव पाविल्लो बरपी कांय न्हय. बरोंवच्याक हांवें कोंकणिंतु एक डजन नाटक, तीन पतेदारी कादंबरी, नवल, नवलिका आदी बरयल्लें आसा आनी पत्रिकेंतु परगट जाल्ललेंय आसा. तरी पुस्तका रूपारी भायर येनी.

ह्या काण्यांतुले घडणुक, कथापात्र सर्वय काल्पनीक आसा.

हें पुस्तक वाचप्यांक इस्ट जालें तरी मेगेले यत्न सफळ जातलें.

कर्नाटक कोंकणी साहित्य अकाडेमीक हांव आभारी.

**भक्ता आर. काञगाड**

(बी.के. रामचंद्र भक्ता)

Ph: 0 8762173304

## अनामिका

# अपर्णालें अपघात – एक फ़्लाषबेक

"मुख्य व्दारा लागी अपघात जाला खंय! एक छात्रा मेली अशें आयकता!"

ताणे प्राअध्यापकाले कूडांन प्रवेश कोरनु बेगीं बेगीं सांगले. धांविले देकून तो धापेतालो!

"कोण मेल्ली?"

"सेकंड डी सींतुली अपर्णा–"

"My God केदना?"

"पांच घडी फूडे. सकडी नेकडे धांवता आसंती–"

हें सांगून तो थंय थाकून भायर पडलो. प्राअध्यापक जोर्ज तोमस आफ़ीस रुमाच्या कवड घालनु बेगीं मुख्य द्वारा कडेन चमकलो.

वाट–वाटेर छात्र, आफ़ीस स्टाफ आनी टीचिंग–स्टाफ रावून उलयता आसंती... कांय छात्र रडता आसंती... सर्वांगेल्या चेरार कळकळी । ...

थयंचे दृश्य वलोवन प्राअध्यापकाक माथें धुंक्ल्या वरी जालें ! देवा ! हे दुषकर्म कोणेकेले – ताणे माथ्याक मारनु घेतलें.

माथ्याक लागलां... रगत सुनू घेटो बांदला. मूस घुंवना आसती...

"प्रो. चक्रवर्ती एक्क आंबुलन्सं फोण कोरनु हाडय क्विक (quick) जीवस्पंद आस कि मोणु कळना –

प्राअध्यापकान लागी रावीले प्रोफ़सराक सांगले: तो फ़ोण कोरुं गेलो.

"कोणालें 'वहिकळज' लागून जाल्लेले हें? कोणय जाण वे? Any body can tell me?"

प्राअध्यापकान सुतू पळयलें. कोणालेय श्ब्दुना. सर्व मूकसाक्षी सी रावल्यांतीं!

"हो, अपघात पळयल्लें कोणय नांतिवे?" ताणे परत निवंगीले: प्रतिकरणं ना! आकस्मात तागेली दृष्टी थोडे दूर माथें लांबोवनं रावीलेचल्ये दिकडे घुंवना! ती रडना आशीली. नाका एक्का एक्कीं उगडास आयलो – हया चल्येक किनले की पावटी अपर्णालं सांगात पळयिल्लं आसा. ताणी व्होळ्ळे दोस्त जावनु आसूका –,

पाअध्यापकान त्या चल्येक लागी अपयले.

"तूं शालिनीं न्हयवें?"

"व्हय –"

तीणे उकूट काडले.

"तूंवे आनी अपर्णान सांगात न्हयवे कॉलेजाक येवचं?"

"व्हय–"

"आज तुमीं सांगात न्हयवे आयीलीं?" शालिनीन जाप दिली ना !... ती रडली... गळो भोरनु येवनु तिका उलोवच्याक जालेना!

"तूंवे भिवचे नाका: जाल्लेलें कितें म्होणु सांग. ह्या अपघात जावचे वेळारी तूं अपर्णालें सांगात आशीली वे? हें कशीं जालें? Please tell me the truth?

प्राअध्यापक निंवगीत गेलो. सत्य कळनातीलें ताका 'येक्षन' काडूं जायना. हें अकस्मात केल्लेले?

पुण, शालिनी जवाब दीनातीलें, रडता रावली... ती सत्य सांगूक भिता–अशें प्राअध्यापकान दिसलं कितें?

ok. ok. समाधान घे. सत्य सांगूक तूंवे कोणाकय भीवका म्होणु ना. चिके आलोचन कोरनु सांग. तुका कोणय कसलेंय करू वचनाती–"

ताणे धैर्य दिले... तीणे चूडिदाराच्या शाल्लान दोळे पूसून घडनूकां खातीर सागूं आरंभिले –

हांव आनी अपर्णा केदनाचें म्हणके ओटू येतालींती...आमी रोडा सायड धोरनु चमकतालींती... त्या वेळारी माग्शीच्यानं एक स्कूटराचो आवाज़ आयकलो. हांवे घुवनू पळयलें स्कूटर सोडतल्याक पळोवन म्हाका भय जालें... आमी जावचितले सायडाच्यान चमकूचा लागलीं

"कोणालें स्कूटरं तें? तुमीं ताका भिवच्याक कारण कितें? तो ह्या कॉलेजाचो छात्र न्हयवे?"

प्राअध्यापकान मर्दी निवंगीले:

थोडो वेळु ती उलयनातील रावली... तिगली दृष्टी चारी कडेन घुंवलीं.

"राम पुजारीले स्कूटर तें–"

तीणे भीवनु भीवनु जाणयलें'

"Are you sure?"

"Yes Sir -

"तूंवे सम पळयलां न्हयवे? मागीरी चुकीले म्होणु नज–"

"No Sir. तो एडां–एडां अपर्णाक कस्ट दितालो–"

"कस्ट म्हळ्यारी कशीं?"

"आमी वाटे.वयल्यान चमकताना माग्शिंत्युल्यान स्पिडान बैक हाडतालो. आनी आमचे लागीं पावतना 'सडन ब्रैक' धरतलो... आमी भिवचे पळोवनु हासतालो . एकेक पावटी आमी कितले सायड धोरनु चमकल्यारीय अपर्णालें आंगाक लागोवनु म्हळ्ळवरी धांवडायतलो–"

"सुरवे तुंवे स्कूटर म्हळ्ळें आतां बैक म्हणता?"

"तो एकेक पावटी कारारीय येतलो सर –"

एक छात्रान मर्दी सांगले !

"तूंवे पळयलावे?"

"व्हय सर रामपुजारीक जायिनले दोस्त आसती तांगेले कोणालेंय पुणी गाडी घेवनु येतळों. बैक मात्र तागेलें–"

त्या छात्रान पुनः जाणयले.

ह्या वेळार पुलीस–जीप येवनु रावलें. माग्शीच आंबुलन्स बी.

फोटो ग्राफ़रान फ़ोटा काडलो S.I. अबदुल खादरान सुतू निरीक्षण केले. म ाक लागी सुकून पळयलें आनी आंबुलन्सांतं घाले... आंबुलन्स वापस गेले...

S.I.न एफ.आय.आर (F.I.R) तयार केले. थंय आशिल्यांक प्रश्न कोरनु पळयलें... प्राअध्यापकान सांगीले सकड Head Counstable न –बरोवन काडले... शालिनीन प्राअध्यापकाक सांगिलेच आवर्तन केलें...

"रामपुजारी तुमचों पूत नवें?"

अबदुलखादरान निमगीले.

एस.आई. तपासणे खातीर रामपुजारीले घराक आयला. तो एक कुर्सेर बसला. रामाले आवय–बापूय ताजे मुखार रावल्यांतीं. तांगेलो – चेरोकालो पडला. आवयलें दोले भोरनु आयला !

"व्हय–"

रामपुजारील बापूय कोरगप्पा पुजारीन जाप दिली.

"तुमका कितलें चर्डुवां?"

"राम एकलोच –"

"राम खंयचे क्लासांत शिकता?"

"बी.ए. फ़ायनल इयर –"

"कॉलेजाक वचे खातीर हांगा थाकून कितले घंट्याक भायर देंवता?"

"करीब साढे आठाक–"

"हांगा थाकून कालेजाक कितले दूर?"

"साधारण दोन किलों मीटर"

"ताणे बैकार कि स्कूटरारं कॉलेजा वचें?"

"बैकारी"

"तो स्कूटरार, कारार कॉलेजां वता खंय?"

"आमी नेणा. तो हांगा थाकून बैकार भायर सरनु वता–"

"मागीरी स्कूटर, कार खंय थाकून मेळता? तुमीं निमगिला कि?"

"ना तागेले दोस्तां लागी जावो घेता आसतलो. तागेले दोस्त कोण–कोण म्होणु जाणवे?"

"कोरगप्पा पुजारीन एक–दोन दोस्तांमेल्या नांव सांगले. तांगेलो पतो बी.एस. आईन बरोवन घेतलें.

"कॉलेजां थाकून राम कितले वराक घरल्यागी परतून येता?"

"कोरगप्पां बायलेलो चेरो पळयता. केदना म्होणु ना. ताका दिसीले वेळारी येता–" कोरगप्पालें बायलेन सांगले.

बी.ए. फ़ायनल इयराक शिकचो चलो. ताका इस्ट आशीले वेळार घरकडे येता. हातुं तुमका कांयी दोष दिसनिवे? तुमीं केदनाय पुणी ताजे लागी निमगिला कि? ना तो कॉलेज सोण गरकडे येवचों वेलु थांय खंय वता, कितें कोरता – तुमीं समझिला कि?"

S.I. ले प्रश्नाक ताणी जाप दिली ना... माथें बागसूनं राबलें.

"जाल्यारी, आयक्याती. तुमगेले रामलो सहवास चांग जनांगेल्या सांगात न्हय. तागेले दोस्त सोरो पितले, भोग आनी ब्रॉवण षुगर (Brown Sugar) घेतले"

"न्हय. आमगेलो रामु तसलो न्हय"

तांका विश्वास जालो ना.

S.I. हासलो.

कायळ्याकय आपण्याले चर्डु भांगराचे... भायर गेल्लेले चर्डुवां खातीर तुमीं किते जाण? राम कॉलेजांत ब्रॉवण षुगर (Brown Sugar) सपळय (supply) करता म्होणु हांवे सांगल्यारीं तुमीं नमगतलेवे? तोवंय घेतालो"

"ना–ना. तुमी सांगच्यांत आमका नमगणी ना"

"तुमीं नमगल्यारीं नमगया. हें सकडीं आमगेले तपासणींत व्यक्त जाला. ताजे एक्र–दोन दोस्तोक हिरासतोंतं घेतला... तो पिवून भोंवना आसा... रामान जाणून अपर्णाले हत्या केला. हाका नद्रीसाक्ष (Eye witness)

आसा–" S.I. लें घट उत्रां आयकून रामपुजारीलें आवय–बापूय आकाशार थाकून पळ्ळावरी जाल्लींनी.

"ते चल्येक मारनू रामाक इतें मेळ्क? तागेले पिराधी यूनियनानू अनावश्य जावनु तागेले नाव वायट करुंक करचे हें फ़स्ट डी.सीक शिकचे चल्येक आनी बी.ए. फ़यनलाक शिकचे मेगेले रामाक कसलो संबधु? ना. आनी नमगनाती."

कोरगप्पा कोपान उलयला.

"तूंवे हून जावनु प्रेजन ना गा. हांव सकड भायर हाडयता आसा... पुलीस डिपारटमेंट बरी यूसलस म्होणु लेकलावं? रामाक क्वस्टयन (question) कोरतना सर्व ओंकतलो."

तोपी माथ्याक दवरतु S.I. अबदुलखादर चमकत रावलों...

लिपन भोंवचे रामपुजारीक एक 'बार–होटलां (Bar -Hotel) थाकून हिरासनां काडले... तो ब्रॉवण षुगराचे अमलेंत आशीलो... ताचे सांगात दोग दोस्तांकय अरस्ट केले. नेगंय अमलेंन आशीलें देकून पुलीसाक पलोवन धांवचा जाले ना...

स्टेषनांत व्होरनु अब्दुलखादरान ताचे करान सत्य पुराय भायर हाडयल.

"तुका दोन कारणान अरस्ट केला. एक, अपर्णालें मरडर. दोन, ब्रॉवणषुगर घेतिल्याक आनी कॉलेजांत सप्लय केल्लेल्याक–" S.I. न हिरासतांत काल्लेल्याचया कारण व्यक्त केलें.

"अपर्णाक हांवे मारनी ते एक अपघान –" चूरूय भंय नातीले ताणे नकरले S.I. न केप्यार एक बसयलो तो तजमळेन गेलो.

"पुना 'डिंनय' कोरतवे? कितले काळ जाले तूं अपर्णाक बाधा दिता आशीलो?"

"हांव तिका नेणा." व्हयवे?" S.I. न आनी एक बसयलो.

"तुतंची केल्लेली चूकी 'एडमिट' करी: कशीं जाल्यशिय तुका हांतुल्यान वाचीना–"

S.I. ना 'पुलीस विद्या' पुराय भायर काडली: आनी ताजे करान किरान सांगल्या वरी सांगयले.

"–हांव निप्पोन कॉलेजांतु 'ब्रॉवण षुगर' सप्लय (supply) कोरतलो... त्या काम हांवे आरंभ कोरनु जायिनले काल जाले हें प्राअध्यापक (principal) जावो इनर स्टाफ़ (staff) जावो नेणा.

अपर्णा मेजे जूनियर. म्हाका निजेरी विव्देष ना आशीलो.

एक दीस प्रिनसिपॉळान म्हाका आफ़ीस रुमोत आपयशिल.

'तुजे नांवारी एक दूर (complaint) आयीले आसा... तूं कॉळेजांतु नाका जाल्लेलें काम करता म्होणु. आनी मुखारी तूंवे हें पुनरावर्तन (Repeat) केल्यारी becarefull'

प्राअध्यापकान ताकिद दिले. दूर (complaint) कसल म्होणु कि, कोणे दिल्लेले म्होणु कि प्रिनसिपॉलान व्यक्त केले ना! तरी दूर कसलें आसु पुरो–हें हांवे मनां कोरनु घेतले. पुन हें कशीं प्रिनसिपॉला लागी पावलें? कोणय कळिताक हाणनिलें कारण ना... हांवे आनी मंगेले सांगातीन तपासण करुक शूरु केले...

एक दीस आमगेले गेगातुले एकल्यान जाणयलें

"फ़स्ट डी. सींतुले अपर्णा नांवाचे चल्येन तुगेले विरुहद दूर दिल्लेले. सल्य जाग्रतां घेवचे चांग."

त्या दीस सूंन हांव तिगेले माग्शी पडलो. ...तिका किरकीरी दिवच्या लागलो. जावका म्होणूची बैक लागोवच्या पळोवचे. मागशिंतुल्यान हाणु झट म्होणु ब्रैयक धरनु 'सोरी' म्होणचें..." "you bastard"

एक दीसु तीणं म्हाका सोवले. तें म्हाका सहन करूं जालें ना. एक जूनियरान सोविले–बापा नातीलो म्होणु सांगीलें... मंगेले अबिमानाक 'हट केले... तिका एक पाठ शिकोवका अशें हांवे निर्णय केलें.

हेर दीस हांव जाणुनची 'बैक एक्सिडेंट' केले. तिका जिवशी मार्का म्हळलो इरादो ना आशीलो. हात–पाय मोण्णु घाल्लुक मात्र लेकीलें'

थोडो वेळु तो माथें लांबोवन बसलो. S.I. न रामपुजारीन सांगीले पुराय बरोवन कालें आनी ताजे करान दसकत घालथलो.

रामपुजारीक हिरासतांत काल्लेले निमित कॉळेजांत गोंदाळु पडलो... ताजे गेंगातुले छात्रांनी गडबडी कोरुक आरंभ केलें. पुण बाकी छात्र चेड आशीले देकून तांगेलो खेळु चलोंना... छात्रांगेल्या 'माय–बाप, (parents) बी घट रावले. सरस्वती क्षेत्रोत' असले हीन कृत्य आनी मुखार चलूं नज–ताणी निर्णय काले.

खब्रेपत्रांत (News Paper) व्होड व्होड अक्षरांत खबर छापली अपर्णांले आनी रामपुजारीले फोटो बी पत्रांत आयलो.

दर एक पत्रान अपण्याक दिशीलें तशीं घडनूकाच्या विवरण दिलें. कांय पत्रान बरयले–अपर्णांले अपघात कि हत्या?" एक पत्रान बरयले –

"अपर्णांले अपघात – एक फ्लाषबेक"

रामपुजारीले माय–बापाक माथें उबारनु जनांगेले मुखार चमकूच्याक कस्ट जाले!

केस कोर्टांत पावले... कांय लोकानी रामपुजारीकं जामीनाचेर सुटका करचाक पळयले. पुण जाले ना!...

दोन तरपेचे वकीलानी वाद–विवाद केले... साक्षी पुराय रामपुजारीक प्रतिकूल जावनु आशीले... तागेले तरपेन उलोवच्याक कोणय तयार जाले ना!...

आखेरीक झडजमेंटांचो (Judgement) वेलु आयलो... कोट निशब्द जाले... थंचे घंडियाराच्या 'टिक... टिक स्वरु मात्र आयकता... सर्व लोका न्याधीशालें Judgement कळचे खातीर हर्द्यार हात दवरनु... कान नीट करनु बसलीं...

# हरकत

सकाणच्या खबरे पत्रांत (News Paper) आयीली खबर वाजून भास्कर मास्तराक हरद्यार फातोर पडला वरी जाले! तो एक घडी स्तब्द जालो!...

तागेले मात्र न्हय, तागेले दोस्त रघुवीर मास्तराले नांव बी आयला – पत्रांतु! नीरजा नांवाचे छात्राक पिडा दिल्लेले निमित तीण आत्माघात करनु घेतले!

सपनांत मरेन लेकनातीले विषय. पत्रकर्तांक कसी अशें मनगढंत काणी बरावच्याक धैर्य येता ! ताका आजाप जाले...

पूर्वस्थिंतीक आयीले उपरांत भास्करान खबर एक पावटी थांय वाजली.

हांगाचे सर्कार कॉलेजांतुलं पंचवीस छात्रफूडे म्हयनाचे विसा तारीकेक 'कुदुरेमुखक' सफराक (excursion) गेल्लेलीं तांतुले नीरजा नांवाचे चल्येन आत्महत्या करनु घेतले! आत्महत्याचे मागशी छात्रांगेले सांगात गेल्लेले भास्कर मास्तरु आनी रघुवीर मास्तराले हात आसा अशें आयकता ! देकून आत्महत्याच्या सन्यावस्था व्यक्त करका जाल्लेली जवाबदारी पुलीस डिपार्टमेंटाक्, आनी कॉलेजाक आसा. ताणी ह्या विषयांतु कसलंय, स्टेप काणतिल्यांतु कितेंकी रहस्य आसा–अश सार्व–जनिकांक संशय. देकून भास्कराक आनी रघुवीराक तहकूब (suspend) कोरनु तपासणी कोरका.

मात्याक हात दीवनु बशीले घोवाक पळोवनु भास्कर मासतराली बायल घाबरेली.

"इतें जाले? इत्याक अशीं बसल्यांची?" तींणे निमगीले.

ताणे काय जवाब दिल्ली ना... तिगेलो चेरो पळयलो आनी पत्र काणु तिका दिले. तिणे वाजून पळयले.

'हे देवा!

तिगेले अंतस्करणां थाकून दोन उत्रां भायर पड़ली, "हया News paper क विंगड काम नावें? पुराय वायंट करनु घालचे हानीचं. मतयाक कुवाळो करनु दाखोवचे हांगेले काम... तुमीं नुतां बैशा म्हळ्यारी तुमगेली चूकी कांय ना म्हणु, हांव जाण. ह्या पत्राचे विरूध्द केस दीवका–

तिका आपण्याले घोवाचेरी भोव विश्वास म्हणून कार्य आस वे? जनांगेल्या तोंड बंद करूं जानवे? ताणी इतें पुणी मेळूक राकून बसताती.

"नीरजान आत्महत्या केल्लेले इत्याक–हें सर्व जाण. आत्महत्या करचे वेळारी तीणे बरैल्ले कागदांनु व्यक्त केल्लेले आसा. त्या कागद पुलीस डिपार्टमेंटानु आसा. मागीरी तुमीं भिवचे इत्याक?"

तीणे घोवाक समाधान केल्लें.

"तशीं न्हय पारवनी हांवे कशीं कॉलेजां वचे? कशी छात्रांगेले तोंड पळोवचे? हांव आनी रघुवीर म्हव्यारी, छात्रांक भोव इंस्ट, भोव विश्वास. तशीं आसतना –छे! भास्करगले उत्रांनु बेजार.

ताणी उलोवनु बसीले वेळारी एक बैकाचा आवाज आयकलो... ताणी भायर गेटा कडेन पळयले. रघुवीर बैक स्टेंडार राबोवनु भितर येता आसा...

"आयचे न्यूस (News) वाजले वे?"

"हांका कळचर (culture) म्हल्लले नावे? पेन आनी कागद मेल्यारी इने पुणी बरोवन घालचे वे? तें पब्लिष (publish) करूक सल्य न्यूस पेपरय –"

रघुवीराक कोपु सयसन. ती खबर दिल्लेलो बरपी जावो मुकार म्हेज्जारी तो भस्म करनु उडयता आशीलो.

"ह्या रोगाक वकद करनातल्यारी आमी कांय प्रयोजन नाची–"

रघुवीरानॅ घट सांगले.

आमी आतां कितें करयत?"

"तुका येच्च्ना नाका, सकडी हांव करन. हाजे माकशी कोण कोणालो हात आसा म्हणु हांव जाण... ताका दवरला हांवे. तूं भायर सर. आमका पुलीस स्टेशन (Police Station) थांय वचूकां–"

रघुवीरान सांणून राबयलें.

"पुलीस स्टेशनाक?"

भास्कराक संकोचु सी.

"व्होय. फुडेचो सब इनस्पेक्टरं (S.I.) न्हयवे आनंय? ताजे लागी थाकून आमका नीरजान आखेर बरैयल्ले letter चे दोन नकल मेळता की म्हणु पळोया."

भासकर मास्तरू बेगीं भायर सरलों... रघुवीरगले बैकाचे मागशी बसलो – S.I. अब्दुलखादर स्टेषनांनु आशीलो... ताणे भासकराक आनी रघुवीराक अपण्याले मुखावयले कुर्सेरी बसयले.

"सांग्या–"

"सरान आयचे News paper वाजून आसतले न्हयवे? तुमीं जाण न्हयवे आमी अपराधी न्हय म्हणु –"

भास्कर उलयलो.

"व्होय. त्या चल्येन बरयल्ले कागद (letter) हांगा आसा. News paper तु अशी एक खबर छापूक कारण कितें म्हणु कलेना! तुमका कॉलेजातु दुश्मनकोणय आसवे?"

S.I. नं निमगीले.

"म्हाका डौट आसा सर–"

रघुवीरान मदीं सांगले.

"कसले गौट? कोणाचेरी डौट?"

"हाजे मदीं कॉलेजांतु लकचर रांगेले हरताल आसील. त्या हरतालांतु हांव आनी भास्कुरू मेलनी आशीले. ताजो कोपु 'यूनियंन लिडरसांक (union leaders) आमचेरीं आसा! ते म्हाका प्रत्यक्ष जावनु अणभवारी आयला. तांगेलो खेळु आसूका हो–अशीं म्हाका दिसता... आनी एक कसलें म्हव्यारी, कॉलेजांतुले छात्रांक आमचेरी चड प्रिति आनी आदर आसा. कांय लकचररांक ते निमित आमचेरी जालय आसा. तेंवंय एक कारण आसु पुरो. एकय नीरजाले आत्महत्याची खबर आतां काडचे इत्याक? तें शांत जावनु सह की सात म्हयने जावनुगेले" -

रघुवीरान खबर सोडवान सांगली. तो कोणाकचा अनावश्यक बागवूचो मनीस न्हय. S.I. अब्दलखादरान रघुवीरान सांगीले पुराय नोट कोरनु घेतले. मास्तरान सांगीले खरें आसूका म्हणु नाकाच दिसले... चर्डुवांक संस्कृती शिकोवका जाल्लेले मास्तरानी आपण्यालें सांगात वावर करचे आतीएकं मास्तराचेरी इतले हीन अपवाद घालू नज आशीले. पत्रांतुली खबर वाजल्यांर आवसु–बापूस चर्डुवांक कॉलेजाक पेटोवच्याक मागशेतलींची. नुप्रोजाल्यारी पुलीस डिपार्टमेंटाकय पत्रांत हीन करनु बरयला ! कशीं जाल्यारी हाजे मूल सोदून काडका – S.I. न थरायले.

"आतां तुमीं म्हाका मेळू आयिल्याचा उद्देश कसलें? हांवे किते करका म्हणु म्हणनाची तुमीं?" S.I. साहबान तांगलो अभिप्राय जाण जावचे खातीर निमगीलें.

"साराक कळता नवें, आमी अपराधी न्हय म्हणु?" नीराजान आत्महत्या करचे फूडे बरैल्ले पत्र आमी साराक hand over केला. त्या पत्र बरैल्ले तीणे म्हणु पूव जाल्ला. देकून साराल अभिप्राय कळचे खातीर आनी आमका ह्या गोंदळां थाकून रक्षा करका म्होणु रिक्वस्ट (Request) करचे

खातीर आमी आयीर्ली-" रघुवीरान व्यक्त केले.

"तुमीं पत्राचे दफ़तरांत वचून संपादकांक मेळाची आनी ती खबर खयंचे वाटेन मेळ्ळली म्हणु जाण जायांची जावका म्हणु आसल्यारी पत्रा वयरी आनी खबर पेटयलला वयरी मान नष्टाक केस दीव्यत. तें तुमगेले इष्ट. आमगेले वाटेन आमी वास-पूस करलांची. तुमीं एक कंपलेंट (complaint) बरांन दियाची. S.I. अब्दुलखादरान आश्वासन दिले.

-२-

"कसले मास्तरा हें आयकता? आमी छात्रांगेले मुकारी मातें उकोळनु चमकूका की नाका?"

गोपल मास्तरू व्यंग्य रूपान उलयलो. भासकरान जवाब दिली ना! गोपालालो चेरो पळयलो आनी मुकारसलो. रघुवीर कसले की सांगू गेल्ललो. भासकरान तडशीले.

भासकर मासतरान सुटीर वचा-अशें लेकीले. सकडी थंड जानरी आयल्यार पूरा नंवे? जावका म्हणू करनातीले चुक्येक आयकून घेवचे कित्याक? परंतु रघुवीरान अडचण घाले.

"कॉलेजाक वचनातल्यारी आमचे वयरी संशय येनलो. आमी चूकी कांय करनी नवें? मागीरी भिवचे इत्याक?"

भासकराक खात्री आशीली. कॉलेजांतु सांगात वावर कोरचे मासतरागेली मसकिरी आसतली म्हणून.

"दोळे धांपून दूद पिताना माजर लेकता, कोणय पळयनाची म्हणु-"

राकेश मासतरा लेकान टीका. भासकरू कांय उलोवच्या गेलों ना. सूणे भोंकता म्हणु हस्ती फाटीर बशिल्याक कितें खंय? भोंकचे, भोंकता राबतांची -

तरी, रघुवीर तशीं सोडचो मनीस न्हय! "माजर कोंण, दूद पिना कोण - कळु वता इतलेंची. तेदना वयरी सांगीले पोरनून आयकूका पडतले"

रघुवीर भासकराकय तांडून Staff Room त गेलो - "भास्कर मासनराक आनी रघुवीर मासतराक ससपेड (suspend) करका-' थोडे वेळान छात्रांगेले नारे उठले! न्यूस पेपरांतु 'फ़ळस न्यूस दिल्लेले मासतरांक डिस-मिस कोरका.

आनी एक विभाग छात्रांगेले नारे... कॉलेजांत दोन विभाग छात्रांगेल्या संघर्ष आरंभ जाले... मारामारी... गलाटो... क्लासांतुले बेंच सडबडा म्हणु पडूक शूरू जालो... छात्रां क्लासांथाकून भायर उडले... भासकराक

आनी रघवीराक आदर कोरचे–ताणी चड आशीलीं – छात्रां जात्रा सी न्यूस छापीले पत्राच्या दफ्तरा कडेन मुकारीसरले...

–३–

खबरे–पत्राच्या (News paper) बोर्ड फात्रर लागून विरूप जालो... जनेल ाच्या कन्नडिकवड भेतून गेले... भितर बशीले कर्मचारींगेले मात्यार कन्नडिकुडके उसोळनु पडलें... ताणी भिल्लींती... इतें जाता आसा म्हणुन तांका कळ्ळेना. भायर निलक्रून पलोवच्या आशीले धैर्य ना...

"भासकर मासतराले, आनी रघुवीर मासतराले नांवारी फ़ाळस (false) न्यूस दिल्लेले पत्रान माफ़ी मागूका–स्टुडेंट यूणियन (union) ज़िंदाबाद"

छात्रानी एका स्वरान आपोवनु सांगले... मागशीची फातराचो अभिषेक!...

भितर बशीले कर्मचारींतुले कोणे की एकल्चान पुलीस स्टेशनाक फोण केलो.

"फाय भितर पत्रांतु माफ़ी बरोवनु येनी जाल्यारी पत्राचो काटु आमी जळोवनु उडयतलीं"

आखेर एक फातोर थांय मारनु छात्रां गेडारी देवलींची... तीं नारे आपयतती शहराच्या प्रदक्षिणा काणु कॉलेजा कडेन परतले... त्या दीस क्लास चले ना!...

*****

प्राध्यापकान (Principal) छात्रां, लक्चररस, पेरेंटस (parents) आनी त्या गांवचे प्रमुख व्यक्तींक मेळोवनु एक सभा माडयली. नीरजाले आवसु बापूसुय हाजर आशीलीं.

सभेंतु प्राध्यापकन भाषण दिले:

भास्कर मासतरू, आनी रघुवीर मास्तरा खातीर आमी सर्व जाण... नीरजान आत्महत्या केल्लेल्याचा कारण बी प्रव जाला... तिका फूडेची आत्महत्या प्रवनि (Tendency) आशीली म्हणून तिगेले आवसु बापसून सांगिलेय आसा. ताणी आयचे सभेंतु उपस्थित, आसची... तांका कांय आक्षेप ना. एक्सकर्षनाक गेल्लेले बाकी छात्रांनी तांचे सांगात आयीले दोगं मास्तरा खातिरय चांग अभिप्राय प्रकट केल्लेले आसा. तशीं आसतना ह्या कारण दवरनु आमी तांचे खातीर भल्लाव सांगचे नीतियुक्त न्हय. असलो फ़ाळस रिपोर्ट पत्राक कोणे दिल्ललो म्हणु कळना. ताजे निमित रिपोर्ट दिल्लेल्यांक किनें फायदा आस म्हणूय कळना... मास्तरानी पत्राचेरी मान नष्टाक केस फ़ायल केल्लेले आसा... वास–पृस चलता आसा.

ही पत्र-रिपोर्ट फट म्हणु प्रूव जाल्ले तरी, न्यूस दिल्लेल्या, वयरी, तो किनलो व्होल्लों जावो, एक्शन (action) घेतली. अथवा ह्या कॉलेजां थाकून कोणय दिल्लेले जाल्यार, ताका ह्या कॉलेंजांत स्थान आसचे ना.

प्राध्यापकान भाषण सांपले.

नीरजाले बापूय बी दोन उत्रां उलयलो. ताणे प्रार्थना केली –

म्हाका मेगेली चल्ली नष्ट जाली. तो मेगलो योगु. आनी पुणी मेगेले चल्ये नावारी आमगेले मनाक दुख दिवच्या नज.

थंय आर्याले सर्वय भासकराक आनी रघुवीराक अनुकूल आशीली. S.I. अबदलखादर पत्राचे लोकल आफ़ीसांतु (Local Office) तपासणी खातीर गलो. पुण थंय थाकून कांय मेळ्ळे ना! ताणी सांगले – रिपोर्टु हांगा सुकून दिल्ललो न्हय H.O. (Head Office) तु सीधा मेळ्ळलो आसूका.

तपासणी हेड आफ़ीसांत पावली... ताणी फ़ायलां सुकून रिपोर्ट पेटयलाले नांव आनी पतो बरोवन कालो... हात बरप न्हय. टायप केल्लेले. खादराक कपला उसोळी जाली. हात बरप जाल्लेले तरी बेगीं सोद करयत आशीले. आतां वेगळी वाट सोदूकां पडतली–ताणे तर्शीं लेकले.

*****

फट खबर दिल्लेले पत्रान माफी मागली... मासतरानी मान–नष्टाक दिल्लेले केस वापस घेतल.

तपासणी जारी रावलीं... कॉलेज यूणियनाचे बो ंक क्वस्टन (Question) केले... टीचरस यूनियणाचे (Teacher's union) लीडरांकय सोळ्ळे ना. आखेर छात्रांक संस्कृति शिकोवका जाल्लेले टीचरस यूनियनाचे नेतार नारायण नायकाक हिरासतां काळ्ळे!..

फुडे पावटी, Teacher's Union चे हरताळांतु भाग घेतातिल्याक आशीलो विरोध!... छात्राक तांचेरी आशीले आदर आनी प्रीति पळोवनुजाळ. नायकाक नीरजा चेरी एक दोळो आशीलो खंय! तांचे सांगात एक्सकर्शनाक वचाक ताणे लेकीले खंय. परंतु ताका प्राध्यांपकान सेलेक्ट केल्ले ना. S.I. साहबाक आश्चर्य दिसले. अशींय आसच वे टीचर्स! हांचे लागी चर्डुवांक खंचे धैर्यान शिकोवचा पेटोवचे?... आमचे आर्ष भारताची संस्कृताय इतली हीन जाल्ली वे!...

प्राध्यापकान आपण्याल उत्रां राखलीं. नारायण नायकाक कामां थाकून काणु उडयले... यूनियनांतुले कोणय तागेले मददाक आयले नाती! कारण, नायकान फ़ालस रिपोर्टु दितना तांचे लागी अभिप्राय निमगीले ना खंय!

पुण भासकरान आनी रघुवीरान तागेले म्हांतारं आवसु–बापसूक लेकून डिसमिसल आर्डर (Dismisal Order) वापस काडोवच्याक यत्र केले. परंतु ताका त्या कॉलेजांतु आनी मुकार काम करूं आशीले मनस्थर्य ना आशीलें!...

* 1) हरकत = विरोध
2) मनगढंत = कपोल कलिपत. मना दिशीले तशी
3) वास–पूस = Enquiry
4) यच्चना = चिंता.

# अनामिका

अनामिकान आत्महत्या केल्या! खबर जिबेर सून जिबेर वायु बेगीन पसरली!... कॉलेज स्तब्द जाले ।... किनें जाल्ले हिका? कसल्याक अशीं केल्ले हीणे? कारण किनें? – छात्रांगेले मुकार प्रश्‍न चिन्ह माते उकोलनु राबले!

हासमुखी... केदना ही जोकस (Joeks) उलोची... नरी उत्रा उतर झट म्हणु दिक्ची... स्वाभिमानी... घरांनु सर्व नराचे सौभाग्य आशीली प्रीति केल्यार जीवा जीव दिवची... कोप आयल्यार वगिणी । किनें करत म्हणु नीची नेणा । ... कोणय निजे अभिमाना चेर हान दवरूं पळयले वे?

– सर्व छात्रां (students) आपण आपचर्चा करूं लागलीं... हें mixed college. हांगा Teenage चे चल्ले आनी चल्यो सांगान शिकतान... पेसकानी आनी तौशे एक्का लागी एक दवरूं नज म्हणतांनी... लोंकड आनी अयस्कांन मुखामुखी दवल्यारी आकर्षीन जावचे स्वाभाविक ।...अनामिका Love affairs नु जावो पळीवे? प्रेमी दान दीवनु बडलोवे? – ना... नशीं जावच्याक कारण ना. ती नशीं बल्यांत पडची न्हय. तिजे लागी 'नाका जाल्लेले उलोवच्या गेल्लेले सीनियर विद्यार्थी राघव शर्माक हाय हील्ड बूट हानां काल्लेली चली ती ।

घरा कडेन कसलेंय प्रोब्लम (problem)? ... आवसु–बापसूक एक्की धूव. मोगाची. सर्वाभिष्ट पुरै सुचाक नैयार आशीले आवसु–बापूस भागय केल्लेली चली. तिका कसले प्रोबजम विद्यार्थियानी बैसूनु गुस गुस केलें ।... खबर रमणीकय मेल्ली. ति खल्ल जाली । तिका मात्यार पर्वत पळ्या वरी जालें !

'हे देवा!'

रमणीले मन देवाक आपोवनु रडले. रमणी अनामिकाली क्लासमेट (classmate) ताणी 'गळस्य कंठस्या'. तरी स्वभावांनु अज–गजांतर ! पुण अनामिकाक रमणी भोव इस्टाची... खबर आयकून रमणीक क्लासांतु बैसूं जालेना! नी उठावनु बेगीं कॉलेजाचे भायर देवली... तिजे सांगात थोडे सांगाती बी. ताणी अनामिकाले घरा कडेन भायर सरली.

वचे वाटेर कोणच उलयलीं ना! सर्व मौन. तांगेले कॉळजांतु डमरू मारता आशीलें – अनामिकाले आवसु–बापसूलो चेरो कशो पळोचे?

तांका कसले सांगून समाधान करचे?

अनामिकाले घरा वठारांत बंधु-बांधव, सेजारी College mates सर्व राबून आशीली... रमणी मातें लांबोवनु घरां भितर चळ्ळी.

मडें मद्दें कूडांतु दवरला... हांगा-थांगा चर्डुवां, बायलो बैसूनु दोळ्या उदक काडता आसती... अनामिकाली आवसु सेरगा पाल्लु तोडां चप्पून रण्णे तडसूच्याक पळयता आसा. बापूय सर्वस्व नष्ट जाल्यावरी दूर खंय की पळोवनु बसल्या.

त्या घराचो दिवो अनामिका. त्लो दिवो आज वाडवून गेल्ला-तांगेले जीणांतु काळ्ख भरनु! कस कसले सप्पन त्या आवसु-बापसून पळोवन आसूका, आपण्याले धूवे पासूनु... तिका शिकोवनु, बरे एक चल्याक दार वतून दीवनु... नात्रांक पळोवनु... जीवनांतुले आनंद भोगूक लेकून आसचे नावे? सर्व आळवा पाना वयले उदका थेंबो सी भुयंचरी पणु फुटून गेले-

अटयता आसतना रमणीले दोळे भरनु आयले. आज थांय गळ्या दोरी काळ्ळेले वासुं शे नाचून उडून आशीली अनामिका आतां निश्चल, निशब्द पळ्या! आनी मुकार ती एक उडगास मात्र । ...

रमणीक अनामिकालो रगत आटून धवो पळ्ळलो चेरो चड वेलु पळोवन राबूक जालें ना. ती हळू अनामिकाले आवसु लागी वचून बसली.

"आंटी-"

अनामिकाले आमान घूवनु पळयले. रमणीक पळोवनु तिगेले मनांतु हून करूक रानीर दवरलेलें दूदशे दुख वतून आयले!...

"पुता आमगेली अनामी-"

"धैर्य घे आंटी, तीणे कित्याक मागिरीय अशीं केल्लें?" "इतें सांगू पुता. काली राती जवण करनु न्हिदोवच्या गेल्लेली ती... सकाणी, वेळु जावनुय तिका भायर देखनी देकूनु जागोवच्याक तिगेले कूडा कडेन गेल्ली हांव -"

त्या उपासूक बाकीचे सांगूं जाल्ले ना ! तीणे सेरगा पाल्लु तोंडांचपले. F.I.R, Post Mortam, संस्कारू... सर्व जाल्ले नंतर रमणी आपण्याले घराक पर्तली - एक जीवंत शव सी ! तिका खावच्या-पिवच्या दिसले ना ! न्हीद पगर जाली ! राती एकली बैसूनु आपले दुख दोळ्या उदकान धूवनु काळ्ळे तीणे. पुण -

अनामिकाले आत्महत्याचे कारण कळनाशी मनाक शांती वा समाधान ना. कित्याक-कित्याक तीणे हे दुरंत आपणायलें?

फूडे बी तीणे एक दोन पावटी जीव काणु घेवच्याक पळयिले आस

खंय ! प्रथम आत्महत्या, प्रयत्नाचे कारण आजीय नेणा ! 'टिक टवंटी' घेतीले! वर्गी चिकित्सा मेळ्ळी देकून वांचली... पुलीस केस जायनाशी थंयच धांपले. आर्जीकय, ताजे कारण गुप्तीत । अनामिकाक निमगिलार एक सुको हास!... मौन !... जाले. दोन्नी पावटी आत्महत्या करूं पलयल्याचा कारण आशीले.

Classmate पुराय मेळनु जोग फाळसोक प्रवासाक गेल्लेले. जीवनांत एक पावटी पुण 'जोग जलपात' पळोवक–ही मेगेली आशा. एक्का प्रायेचें धात्तीस चल्यानी मेळनु भोंवच्या वचे अठयननाची रोमहर्ष जाले.

एक शनिवारा सकाणीं णव वराक आमी भायर सरलीं... पांजराच्यान भायर पळेले पक्षींगेले वरी... सर्वांक खोशी आसीलो वेळु पुस्तका सांगात मातें धाडावनु आयास पावील्ले मनाक थोडो आराम... निसर्गाच्या सोबीतपणाक मन मुग्द जालें... जाल्यारीय जांग फ़ाळसाच्या भीकर सौंदर्य पळोवनु ह्रदयाचे खंचेकी एक कोणसांत ल्हान भंय शें उबजलेले !...

चारी कडेन रान... पक्षींगेले कलख धाराकार पडचे उदका घोषु – आमी, छात्रानी आनी टीचरनी प्रवास एंजोय (enjoy) केलो. सांजे गूडां मेळचे पक्षींगेल्या म्हणके कलपिला करतनी आमी होटलांत पावलीं.

फाल्लें जालें... आमी सकडंय उठान परत वच्याक तैयार जाता आशीली. आकस्मात एक छात्रा राधिका धावनु मिसा लागी आयली. ती घाब्रेनु आशीली ।

"मिस... मिस... मेगेली मुदी दिस पणा –" ती आतां रडतली म्हणु दिसलें. "खंय दवरलंली? बोटा घालनी आशीली वे?" मिसान ततकी केल्ली.

"हाना–बोटाक सडिल जातली देकून न्हावच्या वतना काणु दवरलेली. अनां पळयतना दवरलेले कडेन ना ! मेगेले व्हार्डीकें निश्चयार्ची मुदी ती... मुदी ना अशीं घरा गेल्यारी सर्वय म्हाका उलयतलीं –"

राधिकाक रण्णे आयले.

पर्यटनाक आयीले सर्वय थंय मेळ्ळींची. "तुमीं, कोणय काडची ना. हें हांव जाण. तरी पोणु मेळ्ळेली म्हणु लेकून जावो, खेळु करूं जावो काळ्या जाल्यारी वापस करा. हांव कांय उलयना –"

प्रवासाच्या लीडर कीर्ती मिसान सांगले. सर्वानी तपासण शूरु केली. सूटकेस, हेंड बेग आदी काणु पळयले. रमणीन बी सोदलें... मुदी निगेले handbag तु! तिका अजाप जाले. रण्ण बी आयले... हें कोणे कीं उद्देश पूर्वक केल्लेले काम–म्हाका चोरी करूंक ! तरी कोणे? कोणाक मेजेरी दुश्मनी? हें अशीं सोडू नज–रमणीन थरायले.

"मिस, मुदी मेगेले हेंड बेगांत आसा ! कशीं आयली म्हणु कळना. कोणे की म्हाका खेळु करूक केल्लेले आसूका."

"रमणीन मुदी कीर्ती मिसाक दिली. रमणी हया काम करची ना. हें हांव जाण –" मिसान सांगले आनी राधिकाक मुदी दिली. "मिसाक मेजेरी आशीले विश्वासाक Thanks. जाल्यारीय, हांगा सोडचे मुर्तम हें कोणे केल्लेले म्हणु कळका. कळनू जावका –"

रमणीन हट धरले. बाकी छात्रानीय आग्रो केलो. देकून मिसाक नुतां बैसूं जाल्लेना – "हांवे न्हय... हांवे न्हय –

थंय मळ्ळले सकडानी एक स्वरान सांगले – "अनामिका खंय?"

कोणे की विचारले.

कीर्ति मिसान चारी कडेन हष्टी धांवडायली अनामिका ना ! खंय गेल्ली? हांगा इतले सकड गांदळ चलतना ही खंय वचून बसल्या?

सकडी अनामिकाक सोदूं गेलीं. कूडाचे बांगील घालनु आशीले. कूडांत काळूख. एक छात्रान स्विच ओण केले.

अनामिका मांचावयले हांतलारी दोळे धांपून उदारे पळ्या! तिगेले हातांतुल्यान रगत देवता आसा. मिसालो जीव उडून गेलो ! तीणे रगत वचे राबोचा पळयलें एक छात्रान होटल मनेजराक जाणयले. ताणे डाक्टराक फ़ोन केलो... थोडे वेळान डाक्टरान येवनु प्रथम चिकित्सा (First Aid) दीवनु आसपत्रीक होरू सांगले.

खबर मेळनु हेरदीस अनामिकाले आवसु बापूस आयलीं... पुलीस केस जालें. ताणी तपासणी केली... तांका अनामिकान बरोवन दवरलेले एक चीटी मेळ्ळी... राधिकाक खेळु करूंक आनी मुकारी बोटा मुदी काणु निर्लक्ष्य दवरु नज म्हळ्ळलो पाठु शिकाच्याकय हांवे मुदी काळ्ळी... जाल्यारी छात्रानी आनी रमणीन गोंदल केल्लेले पळोवनु आरोपाक भीवनु... अभिमानाक धको येत म्हणु कोणाकय कळताशी लागी आशीले हेंड बेगांत घाली. त्या बेग रमणीले म्हणु आपण नेणा. पुन एक चूकी जाल्ली. सीधा मुदी काणु मिसाक दीव्यत आसीली

हांवे केल्लेले चुकयेक रमणीनय, मिसानय सर्वानी म्हाका क्षमा कोरका – अनामिका.

अनामिकाले आवसु बापसुलो योग बरें आशीलो. अनामिका मरणाच्या तोंडातुल्यान भायर आयली ! तिगेली स्थिती पळोवनु कीर्ती मिसान तिका माफ़ी दिल्ली. आनी मुकारी असली चूकी करची ना अशें भास घेतली.

चल्येले भविष्य कळकित जावचे नाका अशीं लेकून आनी आवसु–

बापसूले मागणी मान्य कोरनु पुलीसान Attempt of Suscide दाकल केल्लें ना. पुण S.I. न तिका warning दीनाशी सोळ्ळे ना...

था दिसा नंतर अनामिकान कॉलेजांत पुनरपी प्रवेश केले... ती बिलकुल बदल जाल्यावरी दिसली ! तिगेले रूप, चाल–चलन पुराय फूडेच वरी दिसले ना ! तिका पळोवनु रमणीक भोव बेजार... तिका इष्ट हसनमुखी, चूटी आनी चैतन्यमयी अनामिका...

एक दीसु रमणी अनामिकान नाशिलो वेळु पळोवनु तिगेले घराक गेली... अनामिकाले आवसूक मेल्ली.

"आंटी अनामिका भोवचेंयंज जाल्या म्हणु दिसता मू?"

"इतें की पुता. तेदूसचे घडणूका नंतर ती भारी चेंयज जाल्या म्हणु म्हाकाय दिसता ! तिजे निमित पुर–पूरो जाल्ले आमका –"

अनामिकाले आवसूले दोळे भरनु आयले. "Guilty Conscious" आसू पुरो वे?"

"आसूयत... नाका जाल्लेले करनु आतां पश्चाताप पावनु इतें प्रेजन?"

"तें जावनु गेल्लेले मेटर न्हयवे आंटी? आमी केदन की विसरल्यांची."

"तीणे विसोरका मू –

"खेळ म्हणु केल्लेले इतले सीरियस जायत म्हणु तीणेय लेकीले ना आसतले"

रमणीन सांतवना दीवचे खातीर सांगले." "तिका सान धरनूय आमी कांय उलोवच्याना. कोपान जावो उलोन गेल्यरी 'हांव जीवु काणु घेता अशें भिवयताली... एक पावटी, कसले की खातीर तिगेले आनान दोन पेटु मारललो. त्या कोपान ती बांयंतु पडुं गेल्लेली. ताजे परांत तीणे कसलें केल्यारीय भिष्टाच्या ना – तरी तिजे मन चांग गो पुता."

आवसून एक लांब उसास काळ्ळे.

"एक मनोविज्ञानीक (Psychiatrist) कणसल्ट करूं नज आशीले वे?"

एकाएकीं तशीं निमगूचे नाका अशीले म्हणु दिसले रमणीक.

"मोगु केल्लेलो चड जाल्लो – तिजे आनाले तत्व शास्त्र ! मागीरी इतें करचे?"

रमणीक अनामिका चेरी–दया दिसली.

हया एक तराचे मानसिक प्रोब्लम. थोडे जनाक कसलेंय जाल्यारी वगी मन विक्षुध्द जाता. मागीरी तीं इतें करतीत म्हणु सांगू जायना... हें

एक मनोविज्ञानीक दाखोवका जाल्लेले केस –

रमणीन चिंतले... तीणे अनामिकाले बापसू लागी चर्चा करूं निश्चय केले. किंतु अनामिकान ताजे फूडेच दुरंत आपणायलें !

अनामिकाले आत्महत्याच्या दूसरो दीसु रमणीक एक पोस्ट (post) आय्लें... From address ना !... रमणीन कवरू ओपन (open) करून पळयले तांतु एक चीटी... हात–बरप पळयतताची अनामिकाले म्हणु कळ्ळे. तीणे आत्महत्या करचे फूडे बरयल्लें आसूका. तीणे कित्याक अशी एकी चीटी बरयली?

धडधडचे हरद्यारी हात दवरनु रमणीन चीटी वाजली –

My dear Ramani,

ह्या पत्र तुका मात्र आशीले... कोणाकय दाखोचा नज. वाजून जाल्लेले तशींची पिंदून उडय.

प्रवासा (excursion) चे घडणूका उपरांत हांवे कॉलेजाक आयीले दुसरो दीसु. हांवक्लास जावनु – तेदूस तूं कॉलेजाक येनी – घरा वतना राघव शर्मा मेजे मुकार आयलो. तो म्हाका पळोवनु तोंड तिर्पुन छी करचो हास हासलो

"तूंवे मुदी चोरनु रमणीक चोरी करूक पळयले नवे? Best friendship... चड smart जावच्या पळयल्यारी देवु सोणा –" शर्माले उत्रां आयकून खंजरान मारल्या वरी दुकले म्हाका. मेगेले जीवमानांत आयकनातीले उत्रां. म्हाका त्या उत्रां बिलकुल सहन करूं जाले ना. कोणय परिहास करचे म्हाका इष्ट न्हय... कोणाले मुकारीय हास्यपात्र जावचा हांव तैयार ना... अपमान आनी बेजारान जीवु काणु घेवच्याक दिसता म्हाका. तूं केदनाय मेगेली Best friend. Good bye - अनामिका.

चीटी वाजूनु रमणीले अंतस्करणांतुल्यान एक दीर्घ निश्वास भायर पडलो...

# व्यर्थ केल्लेले सपन

"पांडु मामा, तुका फ़ोण आसा." लागी घरकडचें पोरान जाणयले. न्हावचे खार्नीर उदक नापोवचाक भायले रानींत गकुड घालना आशीलों पांडुरंगु. हथंत आशीलो गकडा काप थंयी घालन तो पोरा सांगात चमकलों.

पांडु रंगालें ल्हान नज्या, घर... नागेले घरल्यागी फ़ोण ना. ताका फ़ाण कोल (phone call) येवचे बी अपरूप...

"शंकरगले हॉस्टलां (Hostel) सुकृन फ़ोण आयलागा शंकराले आन्ना लागी उलोवका खंय –"

लागी घराच्या यजमानान सांगले... नें आयकृन पांडुरंगाक घायसोक जालो. ताणे वगी फोण अटंड केले.

"हलो कोण उलयता?"

"हांव शिवदास म्हणु. शंकगलो दोस्त. शंकरालो आनुवे?"

त्या भागां थाकृन कळकळीं भरिल्ले उत्रां पोवन आयलीं !

"व्हय. शंकरू खंय?" तुमीं वगी कॉलेजं हॉस्टलाक येयाची. बाकी हांगा येवुन जानरी उलोयुन फ़ोण कॉल कट जालो.

पांडुरंगु घाब्रेलो... शंकराक कसलेंय जाले की?... कोणय कसलेंय केले की–हें लेकृन तो बापुस भिलो !

पांडुरंग एक सज्जन मनीस... आयचें लोकाच्या काळो चेरो पळोवन अभ्यास ना. एक गांवकार...

तो एक घडी फ़ोण हातां धरनु रावलो "कसली खबर पांडु? तूं इत्याक घाब्रेला?" पांडुली स्थिती पळोवनु लागी घराच्या यजमानानं निमर्गीलें.

"खबर कसलीय तिळसनी! शंकगलो दोस्त उलयल्लों. ताणे वगी हॉस्टलाकं येवच्या सांगला–" पांडुरंगान जाणयलें.

घरा यजमान एक घडी आलोचन करूं लागलो इतेंकी कस्ट जावनु आसृका म्हणु ताका दिसलें... शंकरू बजी पाप चलो... कॉलेजांत भर्ती जाला इतलोच. नवागतांक कॉलेजांनु सीनियर छात्रानी 'माजर–विंद्र खेलु खेलचे आसा–रगींग (Raging) म्हळ्ळले नावार ! तशीं कसकेंय–

"तूंवें अशीं आकाश माथ्यार पळ्ळावरी राबल्यारी कशीं? वगी वचून निमगून यो. वस " ताणें उपदेशं दिलो.

"म्हाका थंय वचून इतें करचें म्हणु कळना. म्हाका ओटू हात-पाय पळ्ळा म्हणके जाला-"

पांडूले उत्रां दयनीय !

"तुका हांवे फुडे सांगीले न्हयवे? ताका Engineering College त घालचें नाका. हांगा लागीचे कॉलेजांत डिग्रीकं शिकयल्यांर पुरो म्हणु. नांकां बोट घाल्यार चाबू कलनातीलो चलो तो. सीनियर छात्रानी रागिंग जावो केल्या आसतले. तो भीवन गेल्लो आसतलों. आसो, शंकरालें दोस्तान कांय सांगनीवे?

"ना-"

पांडून माथें हालयलें.

पांडुरंगाकं एकू चलो. देकून ताका मोगान वाडयला. चर्डाक इतेंय जायत-अशें लेकून कोणां लागीय चड मेलु सोळ्ळे ना... बांयनुलो बेबों सी जालो तो!

पांडुरंगाक ल्हान एक तरकारी आंगडी... बायल रवाण करनु घर घरा वचून विकनली... शंकर आवसूक मदद करतालो.

कितले सजन जाल्यारीय... घरल्यागी 'नास्ती' जाल्यारीय... शंकरू शिकवणेंत बुदवंत आशीलो. दर एक वर्सय ताका पुरस्कार मेळतालो. कोणालेंय चांग-वायटाक ना तो. आपण जालो, आपण्यालीं शिकवण जाली-हो शंकरू!

त्या वर्स 'स्कूल फायनल' (S.S.L.C) परीक्षेंत शंकरू स्कूलांत फ़स्ट आयलो... दर एक विषयांत 95% मार्क मेळ्ळा ताकां! स्कूलाच्या अभिमान जालों तो!... स्कूलान आनी Parents Association न ताका 'आदर' (Honour) केले, आनी पुरस्कार दिले. तेदूस पांडुरंगाक जाल्लेले आनंदाक आनी अभिमानाक हद ना !

एक दीस 'प्रधान अध्यापकान' (Head Master) पांडुरंगाक स्कूलां येवच्याक बुलावो दिलो... तो भोव आदरान हेड मास्तरालें मुखार रावलो... ताणे पांडूक आपले चेंबरांत कुर्सर बसयलो.

"हांवे तुका इत्या येवचा सांगीलें म्हणु कळ्ळा की?" हेड मास्तरान निमगीले.

पांडून ना अशें माथें हालयले.

"शंकराक कितें करया म्हणु लेकला तूंवें?" त्या प्रश्नेचों अर्थ समजूं जाले ना म्हणु दिसता ! ताका एक जवाब दिवचा जाले ना. ...

"पुताले भविष्यां खातीर कसलेंय आलोचन करनु दवरला की तूंवें?"

मास्तरान आवर्तन केलें.

"आमचे असल्यानी कसलें आलोचन करचे स्वामी. धांचा क्लास थांय शिकोवनु खंयचेस कामाक पेटोवचे नंत –' पांडून मनांतू सांगले.

पांडुरंगाक व्हड शिकवण ना... लोकाच्या परिचय नां. देकून 'हयर स्टडीसा पासून ज्ञान ऊणे. शिकोवचाकं दुडवा घटायीय ना. आयजकाल धा थांय शिकिल्यांक काम मेळूक कस्ट आसा–ह्या विषय तो नेण !

"तुंवे कांय जवाब दिली नामू पांडू?" हड–मास्तरान उगडास करयलो.

"हांवे कसलें महणु जवाब दिवचें स्वामी. तुमका कळता नंवे मेगेली अवस्था. इतलें शिकयलेलेच जावनु न्हय-"

ताणे हळू सांगलें.

"पळे पांडु, शंकरू खूब शिकचों चलो. धांचा क्लास थांय शिकोवनु राबयल्यारी पुताले भविष्य वायट केल्ला वरी जाता... ताका तू Engineering College क घाली. Entrance परीक्षा बरोवो. तो खंडित पास जाता–" हेड–मासनरालें उत्रां आयकून, आयकूंक नज आशीलें इतें की आयकला वरी जाले ताका ! 'एंजिनीयरिग शिकोवचें म्हळ्ळारी खेळु वे? दुडु किनलो जायं... खंय सुकून हाडचो?... चान्नीनं हस्ति वरीं आं करूं पळयल्यारी कशीं जायत – ताणे मौनधारण केले.

"तूंवे भिवचें नाका. आमी सकडीं आसा न्हयवे? तूं शंकराक हेतां पेटय –"

हेड–मास्नरान पांडूक धैर्य दिले. तो माथ्यार एक व्हड भारु घेवन परतलो...

शंकराक 'एजिनीयरिंगा' जावो मेडिकला जावो शिकची आशा ना ! ... तो आपण्याली परिस्थिती खूब जाण. परंतु हेड–मास्नराले आनी अन्य मास्नरांगेल्या निर्बंधाक ताणे Entrance परीक्षा बरोवन काळ्ळी!... लिस्टांत तागेले नंबर पांयशांत आयले !... लेकनातीलें मेळ्ळले सौभाग्य–सर्वांक भोव संतोष...

लागी शहरांतलें Engineering College त शंकरांक Admission (प्रवेश) मेळे... पांडुरंगाक पुतान शिकीले हायस्कूलांतले गुमास्तान मदद केले... शंकराक कॉलेजांत भर्ती करूक वचे वेळार गुमास्तूय पांडुरंगालें सांगात गेलो... सर्व कायरीं ताणे करनु दिलें... आपण्यालें स्कूलाच्या अभिमान शंकरु. तो विचारु गुमास्ताक सदा आशीलों! शंकराचेरी ताका खासं मोगूय आशीलो. ... शंकराक होस्टलांतूय भर्ती केले...

आज त्या होस्टलो थाकून शंकराले दोस्तान पांडुरंगाक वर्गी भायरसरनु

यवच्याक फोण केला ! कित्याक?

पांडुरंग कितें करका म्हण् कळनातीलें सीधा स्कूलाच्या गुमास्तु बाबरायाक मेळ गेलो... तो दफ़्तरांतू आशीलो. पांडुन फ़ोण कोल आयीलीं खबर सांगली? गुमास्तु बाबुराय एक घडी विचार!" पळ्ळो. फोण शंकरान करनातीले तागेले दोस्तान केल्ला म्हणु आसल्यार होस्टलोत इतेंकी घटला. कितें जावो, पांडूले सांगात वचून पळोया –

"पांडुमाम भीनाका. आमका होस्टलां वचा. हांव हेडमास्तरा लागी उलोवन येता–" गुमास्तु हेडमास्तराक मेळ्ळो. ताका अनुमति मेळ्ळी ताणी भायर सरलेंती.

–२–

पांडुरंग आनी बाबुराय होस्टल वार्डनाले (Warden) कूडाचे मुखार पावलेंती. थंय कांय छात्र नारे आपयता राबून आशीले ! वार्डन तांका समाधान करता आसा. ते पळोवनु पांडु आनी बाबुराय कसलें करका म्हणु कळनानीले बागलांतू राबले. त्या वेळार छात्रांगेल्या मदीं थाकून एक छात्र पांडूक पलोवनु धावनु आयले

"शंकरालो आनू?"

ताणे संशयानं निमगीलें.

"व्हयं –

"हांव शंकरालो दोस्त. होस्टलमेट. तुमका फ़ोण केल्लले हांवेच–"

"शंकरू खंय? तूंवे इत्याक फ़ोण केल्ललो?" पांडून निमगीले – कळकळीन!

"तो होसपिटलांत आसा–"

ताणे हळू जाणयलें. ताजे चेरार बेजाराची सावली पसरली !

"कितें जालें मेगेल्ले शंकराक? खंयचे आसपत्रींत आस तो? वगीं दाखय –"

पांडु उब्देगित जालो. ताका आपण्यालें पुताक देखचीं उतावळीं.

"पांडूमाम औसर करनाका. आमका वार्डना मेळया–"

शंकरालो दोस्त तांका घेवनु वार्डनाक मेळ्ळो. "सर, शंकरालो आनु मेळु आयला–" ताणे पांडुरंगाले परिचय करयले. नारे आपोवचे धात्र भायर येवनु रावलेंती. ताणी इतें की म्हणम्हणता आशीलेती...

"हांव शंकरान शिकीले हाय स्कूलाच्या गुमास्तु बाबुराय–"

बाबुरायान खुद परिचय करयले. वार्डनान तांका मुखावयलें कुरसेर

बैस् सांगले. बाबुराय बसलो. पांडुक दोळ्यान इशारा केलें. तो हळू बसलों. तरी तागलें मन थंय खंय ना आशीले

"तुमीं घाब्रेचा नज. ह्या घडनूक आमका कळनातीलें जाल्लेले. दर एक कॉलेजांनूय रागींग गुपीत जावनु चलता. ते सीनियर छात्रांगेल्या एक विनोद. तरी तांणी शंकराले नसले नाजूक चर्डुवांक करूं नज आशीले... राग केल्लेलें चर्डुवां चेरी केस काळ्ळेलें आसा–"

"मेगेलें शंकराक इतें जालें? ताकां इत्या आसपत्रीं घाला?"

पांडुरंगाक वार्डनालें 'रामायण' आयकूचा आशीली क्षमा नस्ट जाल्या!

"तेंच हांव सांगून येता आसा. ताका भीवचे मटाक काही जायनीं. सान एक मेंटल शॉक. (Mental Shock) तिनलेच." वार्डनान समाधान करूं पळयले.

–३–

वार्डनाले सांगात पांडुरंग आनी बाबुराय सर्कार आसपत्रींन पावलेनी... पुनाली दयनीय अवस्था, पळोवनं पांडूलें मन करगले... शंकरू 'बेडार' दोळे धोंपून पडला. लागीच एक नर्स राबून आशीलीं.

"कशीं आस मिस?" वार्डनान विचारलें.

"ताका न्हिदे वकद दिला. आनां ओंकारो ना. तरी 'नोरमलारी' येनी. दोन दीस जातले. अशें डाकटरान सांगला–"

नर्सान जाणयलें.

तांणीं वचून डाक्टराक मेळ्ळीनी. "- Nothing to worry. शंकराले मन बजी Soft. देकून ही अवस्था. Just a mental shock. पगं discharge घेव्यत. सल्प दीस आराम करो–" डाक्टरानं अश्वासन दिले. ताणी होस्टलाकं परतलेनी. "तुमका खंतीं नाका... हांवे शंकराले S.S.L.C. सर्टिफ़िकेट बूक' पळयला. He is a very good student. देवाले अनुग्रहान ताका कसलेंय कस्ट जायना. सल्प दीस धरल्यागीं रस्ट घेवो. तुमीं परां येवनु ताका घरकडे व्हार्यत. ताका नस्ट जाल्लेले दीस आमी एडजस्ट करूं आशीले. संविधान करतानीं–"

वार्डनान तांका धैर्य दिलें. परंतु पांडुरंगाक समाधान जाले ना. शिकूं पटयल्ले पुनाक ही गती जालीमू म्हळ्ळलीं खंत ताका शिकार करता आशीली. त्या गांवकार रागींग... चळवळ... हे सग नेण...

"बाबुराय चल्या सोणु येवचाकं मेजे मन आयकना–"

पांडुरंगाली इत्सा कसली म्हणु बाबुरायाक इत्यर्थ जाले.

"जायत. तुका पुता ओटू राबू आशीले संविधान हांव करता. हांव गांवां वचून दोन दिसाक जावका जाल्लेले ड्रस घेवनु येता –"

पांडुरंगाक होस्पिटलांत (Hospital) पुताले सांगात राबूं आशीले संविधान करून बाबुराय परतलो.

–४–

गांवाक परतूका जाल्यारी बाबरायान शंकराक कितें जाल्लेले, कशीं जाल्लेले वगैरा शंकरालें रूममेटा (Room mate) लागी निमगून मनां करनु घेतले... त्या हीन खेळा पासून आंयकून ताका भोव कस्ट दिसले. एक्का कॉलेजांत शिकचे छात्रानी रागिंग नावारी एक छात्राक इतली पिडापीड दिवच्या नज आशीले – अशे लेकले बाबुरायान. रागींग करयत – एक हद दवरनु. रागिंगाक शिकार जावचे छात्राले मन बी पलोवका... नंतन, माजरान विद्राक खेळोवनु खेळोवनु मारला वरी आसू नज. कांय कॉलेजांत रागिंग करू नज – अशें नेम आसा.

शंकराले रुममेटान सांगीली खबर – राती शंकर आनी तो आपले कूडांत वाचून बशीले. त्या वेळार चार सीनियर छात्रां तांगेले कूडांत आयलेंती ताणी भितर येतनाच शिवदासाक तांगेले लक्ष्य ऊहन करूं जाले.

शिवदासाक एकल्यान निमगीले –

"तुगेले नांव इतें?"

"शिवदासु–"

ताण धैर्यान जाप दिली.

"तुगेले?"

एकलो शंकरा कडेन घुवलो.

"शं...क...रू–"

ताणे भीवनु भीवनु सांगले.

"Correct सांग–"

ताणे स्वरू व्हड केलो. शंकरु भिलो.

"शंकरु–"

"तुका उलोवचा कळनामृ !" चोगंय हासलेनी.

"तुमीं दोगंय आमचे मुखार राव्या–" सीनियर सांगेलीं आज्ञा ताणी रावलेती.

"आमी राबोवचा सांगचे थांयं लेंडी काडयाय" - आज्ञापालन करचे

नंतन वेगळी गती ना म्हणु शिवदास जाण: ताणे लेंडी काड्क शूरू केले पळोवनु शंकरानय आरंभिलें. सीनियरानी पंचवीस थांय मेजून राबयले.

"न्हेशीले मेकळाच–"

शिवदासान आनी शंकरान मागशी–मुखार पळयले. ड्रस मेकळ्क ताणी मागशेलनी. हें पळोवन सोनियरांक कोप आयलो.

"Quick-"

ताणी भिष्रायले... शिवदासान दोळे धांपून न्हेशीले मे कोळनु घाले ! तरी शंकरू उलयनातीले थर थरेंन रावलो !

"तुका special invitation दीवकावे? Quick-" शंकराक रण्णे आयले... तागेलों चड्डी क्ल्ली जाली !... तें पळोवन 'राग' करनल्यांक हास आयलो ताणी ताजे सुतु हान पेट्रन घुंवतनी जोरान मसक्रिरी केली.

"वच संडासां (Toilet) वचून यो–" शंकराक हाल्ल जाले ना !... पाय पूरनु गेल्या वरी थंय रावलो... तांका शंकराले मन मोवु म्हणु कळ्ळे ना. तो मांगीले आयकना–अशें दिसलें. हो तिरस्कार तांका ड्स्ट जालो ना. ताणी ताका उकोलनु संडासांन व्होले... तागेले तोंड संडांसांतुले कुंबोडांन बुडयले... शंकरान हात–पाय मारले... ताणी हासतनी... गलाटो करतनी ताका थंय सोणु रूमां थाकून भायर पळ्ळींनी...

सीनियर छात्रानीं गेल्लेले तर्शी शिवदासान ड्रस केलो... त्या वेळार संडासां थाकून शंकरालो ओंकारो आयकलो. तो तेकडे धांवलो... शंकराली दयनीय स्थितो पळोवनु तो भिल्लो. शंकरू हर्दे परसून ओंकना आसा... दोळे तांबडे जाला... तो हुमेला. ओंकारो राबलो ना... ओंकून ओंकून शंकरू पळो !

शिवदासाक बेजार जाले... ताका कस्टान रूमांत पावयले आनी हांतलार न्हिदयले... लागी रूमाचे दोस्तांक अपोवचा धावलो... घर्डी भितर खबर होस्टलांत पसर्ली... वार्डनाक complate दिले... ताणे बेगीं येवनु शंकराली स्थितो पळयली... शिवदासान जाल्लेली खबर पूराय जाणयली... Rag केल्लेल्यांगेले वळख ना म्हणु ताणे सांगले. तांका पळयल्यार कळतलें म्हळ्ळलो...

शंकराक सर्कार आसपत्रींत भर्ती केले... ह्या वेळार शिवदासान शंकराले बुकां सुकून मेळ्ळेले नंबरार फोण केलो...

–५–

शंकर डिसचार्ज जालो. ताका खूब थकणी आशीली

आसपत्री सांडचे वेळार बाबुरायाक गुपीत आपोवनु दोतरान सांगले–

"शंकरू भीवनु गेल्ला. ताणे नोरमलार येवूंक दीस काडतले. देकून जाग्रतेन पळोवका. हांव वकद, बरोवनु दिता. ते सल्प दीस दियाची. सकड बरें जातां –"

शंकराकं बिदा करूक शिवदास बी आयीलो. ताणे ताका समाधान केले. ताकाय दोळ्यां उदक आयले.

*****

घरांनु एक निशब्द जीवी सी दीस काडतालो... जवण–खाण तोंडा लागी व्होरतना कुंबोडाचो उडगास येवनु ओंकारो येतालो... सात–आठ दीस ताका हांतु सून मोचन मेळ्ळे ना! तागेले अंतस्करणांतु तो घडणूक घट रावला ! Engineer जावच्या आशीली आशा ताणे मनां सुकूनु काणु उडयली !... कॉलेजाच्या नांव काडतनाच तागेले heart beating (धडकन) एक दम चडतले !

"हांव आनी कॉलेजाक ना –" शंकरान चुकलांत फातर मारला वरी सांगले !...

# आकस्मिक

"हलो, कोण तें?"

अक्षयान जायितलो ताळो व्होड करनु निमगीलें. तो जीव काणु घेवच्ये खातीर निर्जन प्रदेश सोदून थंय आयीलो ! त्या वाटेन रैलापाटोवना आसा. आनी एक घंट्यान ताजे वयल्यान एक express गाडी वचा आसा. ताका मातें दीवनु अपण्याले शरीर केदन केदनाकय जावनु सोडूक गकून बसला तो ! एका एकीं तागेल्ली दृष्टि दूर गबीलें एक रूपाचेरी पळ्ळी. आत्महत्या करूक आयीला जाल्यारीय रातीचे निशब्दतेंनु त्या रूप पळोवनु ताका भेय सी जालें ! फुडेचे खंचेय गाडियेक मातें दीवनु मेल्लेले कोणालेय प्रेतात्मा आस्पूंक प्रा म्हणु एक घडी ताणे लेकलें... तशींच, तातीलें धैर्य आसा करून ताणे अपण्यले सवालाचें आवर्तने केले –

"कोण तें? तोंडां जीब नावें?

नवळीय जवाब ना!... अक्षय हळ् निजे कडेन चमकलो. एक स्त्री रूप फाटी दाखोवनु राबल्या. तोंड पळोवच्या ना. ती धापेता आसा म्हणु अक्षयाक दिसलें.

"निमगिलेले आयकनी म्हणु आसवे? ह्या वेळारी हांगा कसलें करता आस तूं?

चेल्ली म्हणु कळ्ळे परंतु ताणे सल्प अधिकाराचे स्वरात निमगीलें... तरनाटी चल्लीं. ती हळू घुंवली. तीणे तागेल्ले तोंडाक पळयले. तिगले हरदे जोगत वयरी–नगु जाता आशीलें. मात्या केसु अस्तव्यस्तं जालां. एक–दोन दोळ्यार पळ्ळेले तीणे हळू समकेलें. अक्षयान चंद्रमालें उजवाडाक पळयलें. एक सादा चेल्ली. पळोवच्याक चंदी ना म्हणु जायना. तरी रडून आस्का, तिगेले दोळे तांबडे जाल्या... तोंड बावला...

"तूं जीव काणु घेवच्याक आयीली. नवें?" ताणे धैर्यान निमगीलें.

ताका खंडित आसा–भरलेले राती, ह्या निर्जन प्रदेशांत एक तरणाटी चल्ली एकली येवका तरी वेगले कसलें कारण आसूका? सामान्य बुद्धि भरिल्यांक मनां करयत.

"व्होय..."

तीणे मातें खाल्ला घालनु हळू जवाब दिल्लीं... तिगेले ओंट कडकडलें... गळो भरनु आयलो... अक्षयालें मन आर्द्र जाले.

"हेतां पळें–" ताणे सांगले. तीणे मातें उकळें ... दोळ्या उदकान गाल

वल्लें जाला. "तुगेले नांव इतें खंय? अचकित ती तोंड धांपून बळबली रळ्ळी ! अक्षयाक एकतर ! जालें नांव निमगिलेल्याक हीणे. रडचे इत्याक?' कशी जाल्यारी मरू आयीली. नांव सांगूनूच मरूं नजवे? त्या वेळार बी अक्षयाक 'जोक' दिसले.

"भीवंका म्हणु ना. हांवय तुगेल्या वरी जीव काणु घेवच्याक आयीलोच आनीकय गाडी येवच्याक अर्द तास आसा. त्या वेळा भितरी आमका तेतो-हेतो मनां करनु घेतल्यारी जायनावे?" तो एक दोस्ता वरी उलयलो. हांव अर्चनां-"

"तुगेले गर खंय?"

"होगा लागीची –"

लागी म्हळ्यारी?"

तीणे जाग्या नांव सांगलें. अक्षयान तिका जोकचे वरी पळयले – तगु सुकून वयरी थांय!

"तुका चड गेल्यारी वीस-बावीस वर्स प्राय जायत. ह्या सान प्रायेरी आत्महत्या करचे तशीं कसलें संकस्ट आयलें तुका?"

ताणे प्रितीन निमगीले... ती जवाब दिवच्याक मागशेलीं ! एक अनवळखी लागी अपण्याले जीणोतुले रहस्य सांगूकावे? असमजिसकायेंतु पडली ती!

"सांगू जायनातीले रहस्य तरी सोडी. यो आमका थोडें तेतां बैसून उलोया. गाडी येवच्याक आनीकय वेळु आसा. आत्महत्या करनातीलेची तुगेले 'प्रोब्लम' (problem) सोलव (solve) करूंक जाता की म्हणु पळोवया. शायद घरल्यागीं परतून वचां म्हणु दिसल्यारी?"

ताणे तिंगेलें तोंडाक पळयलें.

"म्हाका घरां वचुका म्हणु ना –" तीणे घट सांगलें.

"वचो, तुवें आत्महत्या करूं आशीले कारण पुणी सांगूयत की?... गरीबी की? अनायत्व की? लौ फयलीयर (Love failure) की?

तीणे लांब उसास काळो आनी अपण्याली काणी सांगूक आरंभ केलें–

मेगेलें अनाले भयणीलों पूतु राकेशु अमगे थंय राबून आशीलो–"

"इतें नागेले आवसु-बापूस नांचवे?" अक्षयान मदीं निमगीलें.

"व्होय. मेगेले अनाक एकी भयणी... राकेशान जाल्लेले पांचा वर्सारी एक रोड आक्सिडेटांतु (Accident) नागेलो आनु गेलो आनाली भयणी (अक्का) अनाथ जाली... माम्माक सेविंग्स (savings) ना आशीलें. सान एक पान शापां (pan shop) थाकून मेळचे आदायान तो जीवन काडतालो. बामणाले मरणा निमित तेवंय ना जालें. अनान तांक आमगेले घरां हाणु

राबयले. राकेशालें शिकवणे जवाबदारीय अनान काणु घेनली –"

"तुगेले अनान एक चांग काम केलें. अतांकाळारी कोण आनी एक ल्यालो भारू काणु घेता?"

अक्षयान अपण्यालो अभिप्राय प्रकट केलो. काणियेक एक घटाय मेळो म्हणु लेक्रुन आसुका –

"व्होय, मेगेले आनान 'ह्युमानटी (humanity) दाखयली. मेगेले अमाक नोका राबयलेल्यांनु कांय आक्षप ना आशीलो. म्हाका ओटु खेळक एकलो मेळ्ळो म्हळ्ळलो संतोष... राकेश मेजाकय तीन वर्साक व्होडु. शिकवणेंत, बुद्धंत. कसले काम करूकय तैयार. ताजेरी मेगेले अनाक भो अभिमान –"

"आसुका न्हयवे? भयणीलो पुतु. लेकल्यारी फाय जावंय करनु घेवयत"

नें सांगुन अक्षयान निगेले तोंडाक पळयलें... पुण निगेले तोंडावयलो विकारू कसलो म्हणु ताका मनां करू जाले ना !

अर्चनान, एक घंडी अपण्यालेकाणी सांगपाक विराम दिलें. आनी लांब उसास काळ्ळो.

"व्होय अक्षयान सांगीलें खरें मेगेले आनाकीय राकेशाले अमांलीय इच्छा तीच आशीली. म्हाकाय राकेश म्हळ्यारी जीव. आजीकय–"

तिगेले दोळ्या थाकुन दोन थेंबे दोल्या उदक पळ्ळे–रूका पानार गर्बीले हिमकण पल्या वगी !

"आमी वाडना आशीकीं... हांव फायनल इयर बी.ए.क (Final Year B.A) पावली... ताजे मद्दें राकेशाली शिकवण जाली. ताका चांग एक कंपनींत एकौटेंटाले (Accountant) काम मेळे. म्हाका खुशी जाली... चांग काम. हात भरी पगार... एक दीस संदर्भ पळोवनु अनान राकेशा लागी आमगेले व्हार्डीकेची खबर काळ्ळी"...

"तुका आमगेले अर्चना खातीर कसलो अभिप्राय? चांग अभिप्राय–"

हें आयकुन अनाक संतोष जावन आसुका –" षुवरली –(surely) अक्षयान सांगले. आनु मुकारसलो.

"म्हाका फुडे धरनुची एक आशा आसा. तुमगेली व्हार्डीक करका म्हणु. तुका कशीं काम मेळ्ळ न्हयवे."

अनाले. उत्रोक ताणे वगी जवाब दिली ना ! "काम मेळ्ळा इतले नवें माम्मा. अर्चनाली शिकवणाय जायनी. औसरू करचे इत्याक?"

"जायत. तुका अनिस्ट ना न्हयवे?"

तो कांय उलयलो ना... हांवे तांगेले उत्रां आड राबून आयकलें... ताका ना खोशी ना... मन आनदविभोर जालें. त्या दीस धरनु हांव गोड गोड

सप्पन पळोवच्या लागली... तागेले मुखार राबूंक लजेली

Natuarly-"

अक्षयान मर्दी अभिप्राय सांगलो.

"एक सांजे. राकेशान office सोणु आयीलो वेळु. हांव अपण्याले रूमांत कसलें की वाजून बशीली... हांवे राकेशान अनाले कूडा कडेन वचे पळयलें. इत्याक आसू पुरो म्हणु कळचे खातीर हांव ध्यास दीवनु राबली.

"माम्मा, हांव फाय सांजे हांगा सुक्रून वता-" ताणे आमुख सी सांगलें.

"इतें मामा थंय राबूक इस्ट ना जाल्ले वे?" आनान कळकळीन निमगीलेंले हांवे आयकलें. म्हांका मात्यार पाथोर घाल्ला वरी जालें.

"तशीं न्हय माम्मा. म्हाका बेंगलूराक बदली जाली. परां सकाणी वचून जोयन जावका." "तितलेवें, व्होडना. जावका जाल्यारी म्हयन्या एक पावटी येवनु तोंड दाखोयत नवें? समाधान आसा-"

आनाक बेजार जावन आसूका. जाल्यारीय आनान तितल्यांतूच राबयलें. तरी म्हाका इतें की हातां सुक्रून सोणु गेल्यावरी दिसलें !

"विदायीचे दुख वे?

अर्चनान तागेले तोंडाक पळयलें. "न्हय. ताका पोसून, व्होड करनु ह्या स्थितीर हाळ्ळेले अपण्याले मावळ्या आनी ताका विश्वास करनु आशीले म्हाकाय, ताणे फटायलें -" मुखारसून सांगूक तिजान जाले ना !...

"आनी तूंवें सांगूका म्हणु ना. बाकीचे हांव सांगता... नवें ब्रेंचांतु ताणे चांग नांव घेतलें. थचे मेनेजराक ताजेरी चांग अभिप्राय दिसलो... ताका एकी धूव. ती खूब शिकून कामारी आसा-"

"व्होय. आजी सांजेचे पोस्टारी राकेशाले त्या ब्रेंच मेनेजरांले धूवे सांगात व्हार्डीकेचे आमत्रण पत्रिका आयली... अम्माक आनी आनाक पत्रिका वाचून खंय नातीले बेजार-एक उतर ताणे मेजे लागी सांगूयत आशीलेमूं... अर्चनाक व्हार्डीक करुक इस्ट ना नातल्यारी मेगेले निर्बंध ना आशीलें आमी ताका पोसून व्होड केल्ला म्हळ्ळले सोडी. कांय नातल्यारी हांव तागेलो एक एक मावळो न्हयवे?' म्हाका Wedding Invitation पळोवनु मातें घुवलें मेगेले मावळनीले पुतान म्हाका आशा दाखोवनु मोंस केलो निराशा निमित्त हांव कसले करुं वता म्हणु म्हाका कळ्ळ ना !... राती अम्मान आनी आन्नान न्हिदोवनु पळ्ळेलो वेळु पळोवनु आत्महत्या करचे खानीर हांगा आयली."

अर्चनान अपण्याली काणी खतम केलीं "तुगेले पेरेटसा (Parents) लागी राकेशान केल्लेली थोडी चूकीची. संशय ना. तरी इतले सान

कारणा खातीर मोगान व्हाडयेलेले आवस्–बापस्ंक बेजारां घालनु आत्महत्या करूंक लेकीले कांय. ऊणे चुकी न्हय–" तागेले उत्रांक तीणे काही सांगले ना. बदलाक तीणे, अशीं सांगलें.

"हांवे मेगेली खबर तिळसून जाली. आनी तूं इत्याक आत्महत्या करूक आयीलो म्हणु सांग –" तीणे आकांक्षा भरिल्ले दोळ्यान अक्षयाले क्डेन पळयलें. "इनलो चंदु आनी तरनाटो जावनूय आत्माहत्या करूंक पलोवका जाल्यार भारी दूकी भोगून आसूकामू. न्हयवे? सान कारणान कोणय ह्या साहस करूं देंवतावे?"

तिगेले सवालाक जवाब दीनातीलें एक घडी अक्षय "मौन मुनी" सी रावलो !... सत्य सांगल्यारी अपण्यान आत्महत्या खातीर आलोचन करका आशीलेवे? लोकांनु चलेनातीले कसलेय अपण्याले जीवनांतु घडलावे? अतां आलोचन करताना हास येता !

"मेगेलें कांय व्होड विषय न्हय... तरी तूंवें निमगिलेल्याक हांव सांगता, खंयचे कार्याक एक कारण आसूका न्हयवे?" ताणे आरंभ केलें –

"हांव आनी मेगेलो अण्णा अनंतु एक मेळेन आशीलीती ताका हांव म्हळ्यारी जीव. म्हाकाय तशींची. तो एक बेंकांनु काम करता आसा. हांव एक सोफ्टवेर कंपनीनु... आमी कसली खबर तेनां हेतां सांगनातीले कानारी एक खबर मात्र ताजे लागी सुकून निपोवनु दवरली – मेगेली प्रेमकथा. हांव श्रीमती नावांचे एक चल्येक लौव करता आशीलो त्या विषय कोणा लागी सांगली ना... श्रीमती म्हाका लौव करता की ना, हें म्हाका गोतना... तरी ती मेजे लागी मोगान उलयताली... चंद करनु वर्तन करतालीं... भो फ्रेंडली (friendly) आसताली... म्हाका हांवें काम करचे कपनीन एक वर्सा खातीर विदेशाक पेटयलें हांव, खुशीन विदेशाक उबलो... विवरू तिकाय जाणयलें. तीणे हासता हासता म्हाका विदा केलें.

एक दिवस म्हाका घरां थाकून फ़ोंन कॉल (phone call) आयलें. अण्णाली व्हार्डीक फ़िक्स जाली म्हणु म्हाका खुशी जाली... चेली कोण म्हणु सांगले ना ! हांवे निमगिलेलेय ना. व्हार्डीक फुळ्दीस हांव गावां येवनु पावलो तो दीसु आजी. फाय अण्णाली व्हार्डीक... गांवां आयले नंतर म्हाका कळ्ळें, अण्णाली बायल जावच्या वची चली मेगेले सपनांतुली राणी म्हणु !"

"आनी तूंवें सांगचे अगत्य ना. अण्णाचेरी आशीले प्रीतीन तुका सत्य सांगूक जाले ना. ताणे करनातीले, चुकीक ताका दंड दिवचे नाका अशें तूंवें लेकले. तशीं न्हयवे म्हळ्ळले अर्थारी तीणे तागेले तोंड पळयलें व्होय. एक उतर हांवे अण्णाक सांगीले जाल्यारी Problem solve जावच्याक पूरो. पुण म्हाका पिशें लागला म्हणके जाले – अक्षयान एक लांब उसास

काळ्ळो

"तशीं तूं आत्महत्या करूंक आयलो. न्हयवे? ताजे बदलाक तूंवे अण्णाली व्हार्डीक जाल्लेले तशींची विदेशाक परतून वचीयत आशीलेमू?"

तीणे अपण्याले दुख विसोरनु अभिप्राय सांगलो "तशीं करयत आशीलें. तरी त्या संदर्भारी मेगेली विचार करु आशीली शक्ती नस्ट जावन आशीली ! कांयी चूकी केल्लेली ना. ती म्हाका लौव करता की म्हणु हांवें समजून घेतीलेय ना..." आतां दिसता हांव कसलेक बॉधु म्हणु. आण्णन

"आनी कसले?"

भविष्य कसले म्हणु कळनातीलें तीणे निमगीलें "आनी कसलें? विचार करका जाल्लेलोची विषयु..."एक घडी तांगेले मदीं मौनाच्या पगार उटान राबलो. अशीं केल्यार इतें?"

ताणे अर्थपूर्ण जावनु तिजे कडेन दृष्टि धांवडायली. तागेले उद्देश कितें म्हणु तिका मनां करूक जाल्ले ना.

"तुका आत्महत्या करूका म्हणु आसवे?" ताणे अकस्मात निमगिलेले देकून ती असमजिसकायेंतु पळ्ळी–एक घडी मात्र ! लागी घडियेक तिगेली. बुद्धी जागत जालीं. "ना–" तीणें दोनी पटी आलोचन करूंक वेळु काणातीले जवाब दिली.

"म्हाकाय –अतां दोगाले मनय क्लियर (clear) जालें". व्होय म्हळ्ळले अर्थारी मातें हालयलें.

"तुका तुगेलो प्रेमी नस्ट जालो. म्हाका मेगेली प्रियतमा मैनस इंटु मैनस इस ईक्वल टू प्लस (minus x minus = plus) हें तूंवें शिकून आसू पूरो–"

तिका कांय मनां गल्लें ना. जीवनांतु आमका एक जाल्यार इतें? आलोचन करी –"

ताणे प्रतीक्षा भरिल्ले दृष्टीन तिका पळयलें... अतां तिका कार्य मनांगेले. तिगेलें तांबुडे ओंटार लजेन भरिल्ले मुस्कार उदेलो !... ताणे अपण्याले उजवो हात नीट केलो... !

मळबारी काळें मोडां थाकून चंद्रम भायर आयलो... केदना म्हणके मलबार एक्सप्रस (Malabar express) लांब लांब पाट्या वयल्यान 'गडबड' शब्द करीत धावनु गेलें...

# दूद हाडची पोरी

"ओ मेनेजर, माम, दूद."

भायर कोणालो की आवाज़ आयकून हांव घरा कवड उगते करनु भायर आयलो – एक पोरी रावल्या ! तेरा चौदा वर्ष पिगय जायत. ताजाकय ऊणे नंतन चड ना. गोरी पातळ सी चल्ली. एक घडी हांव तिका नियाळनु रावलो.

"मेनेजर माम, दूद.

तीणे जाणयलें. चांग चैतन्य आशीलो स्वरू नखेत्र सी दोळे. मोगारा कळो सी दांत. चांदनी सी हास. तिगेल्ले हातांत एक लांबोवचे आयदन.

"दूद? हांवे दूद जावका म्हणु सांगनी मू?" हांवे, आमगेले बेंकाच्या त्या गांवचे ब्रेच्चांतु नेमणी जावनु आयीलो वेळ... त्या गांवचो परिचय जावका इतलाची... सल्प सक्की फूडे मेनेजरान सांगून जाण. दूदा खबर हांवे कोणा लागीय सांगीले जावन उडगास ना !

हांवे पयलें पावटी रूरल ब्रेचांत (Rural Branch) काम करचे. निरसन करू जायना देकून आयलो. बायल–चर्डुवांक आपोवन हाडका मात्र शहरांतु वाडीले बायलेक गांवांत राबूक नाखोशी आशीली.

"मेनेजर माम्मान सांगका वे? फूडेचे मेनेजर मामाक हांव नवे हाण दिनल्ली. आमगेंले गांवां येवनु दूद घालनार्नीले बेट्टी (Bed Tea) पिवचे आमका उणापण न्हयवें."

सांगून ती एक नटकट हास हास्ली. ही पोरी चिंतनामू. हांव भितभितरी हास्लो. मेनेजराकय चड बिसनस ट्रिक्स हिका कळनामू. चांगी वाचाळी बी. कोणाले संतानबा हें !

"आसो तूं हांगा थांय आयीली नवें. तोप हाडना हांवे भितर थाकून ल्हान एक तोप हाडलो तीणे तांतु दूद भरले.

"तुका कशी कळ्ळें म्हाका दोन कुडते पूगे म्हणु" हांवे तिका क्डिांवचे खातीर तिमगीले. "ते सकडी ह्यां तंगमणीक कळना... मेनेजर मामु एकलो नवें आयला. मांयी येनी नवें. एक मनशाक दोनी कुडते पावनावे?"

तीणे अभिमानान सांगलें.

म्हाका पुन अजाप जालें. ह्या चल्येक लेकच कळनामू जायत. एक मिनुट राब.

हांव दूद भितर घेवनु गेलो... मणि परसां (Money purse) सुकून दुड्डु काणु परत आयलो. "घे. दोन कुड्ते दुदाक मोल कितले म्हणु सांग." पोरीन मेगेले तोंडाकच पळयलें.

"इतें?

हांवे प्रश्न रूपारी पळयलें.

"आजी मेगेले लेक्काक मेनेजर मामाक फ्री दूद फाय धरनु कुडत्याक चार रूपय... म्हयन्याक ओटू दिल्यार जाता... पगार मेळचे दीसु हांव येवनु घेता."

"तीणे सांगले.

ताजे मदें हांवे हो गांव सोळ्यारी?"

हांवय मागशी येतली–"

"तूं चिंतनामूगो ... आसो. तुगेले नांव इतें तंगमणी?" हांवे मसकिरी केली.

"धत् –"

ती हासता... पाया गागरीच्या आवाज़ करता धावनु गेली. एक पावसु येवनु गेल्या वरी जाले म्हाका ! मेगेले काळजांतु पुष्पवृष्टि करून ती परतली!... एक तराच्या आनंद सी... उत्साव सी... म्हाका अणभव जाले!

तंगमणी मेगेली कोणय न्हय. हाजे मुर्तम तिक्का देखीलेय ना. जाल्यारीय त्या दूद हाडचे पोरीन म्हाका तिगेले आकर्षणाच्या वृतांत घाले !

तंगमणी सदा बरोबर टैमारी दूद हाणु दिताली... एक दीस पुण हाणतीले ना. तिगेले सामिप्य म्हाकाय आनंद दिताले. गांवची खबर सांगताली... जोक्स उलयताली... त्या तोंडारी हांवे उमास देखीले ना. सदा पुनवे चंद्रम.

एक दीस हांवे निमगीलें –

तंगमणीले घरल्यागी कोण कोण आसा?"

मेगेले सवाल आयकून तिगेलो चेरो एक सेकंड काळो जालों वें? ना म्हाका दिसीलें आसतलें. त्या चेरो केदना म्हणके प्रफुल्ल.

"मेगेली आम्मा, हांव, सत्यभामा आनी रुणमणी."

"आनु?"

"ना म्हळ्ळले अर्थार तीणे मातें हालयलें. म्हव्यारी?" अनाक हांवे पळयल्ले ना." सारी तंगमणी. हांवे तुगेले मन दुकयलें" "म्हाका दूकी इत्याक मेनेज़र माम... देखनातीले मनशा खातीर हांवे इत्याक बेजार

करचे?" ती हासली !

मेगेले मन तिजेरी आरद जाले. बापसूक देखनी जाल्यारीय ताजे खातीर एक संकल्प आसना न्हयवे? इतर चडुवानी बापसूले सांगात आनंद भोगतना तंगमणीकय म्हाकाय आनु आशीलो तरी–अशें दिसनावें?

दोन्नी पावटी आलोचन केल्लेले तशीं म्हाका दिसलें, तीणे सांगीले खरें नवें. आज थांय पळयनातीले मनशा खातीर इत्या बेजार करचे? शायद तीणे जावचे मृतमची तो मरनु आसु पुरो. नातरी आवसु लागी झगडो करनु तिका सोणु वचून आसुकय पुरो.

"तूंवे आन्नाक पळयल्ले ना? खरें वे?"

"व्होय."

"सान आसतना पळयल्लो उडगास थांय नावे?" हो एक मेनेजर मामु. सान आसतना पळयल्यारी उडगास राबना वे?"

ती खिलखिलो सी हासली... त्या हासा माकशी तिगेले जीवनांतुले कोडु अणभवाच्या प्रतिछाया आस की – कोण जाण?

"तें वचो ह्या सत्यभामा आनी कण्मणी म्हळ्यार कोण?"

म्हाका कळकळी !... एक घरांतु चांग बायलो मात्र कशीं काडतांती, एक दारल्याले मदद तातीलें?"

"सत्यभामा गायी. कण्मणी तिजे वासूं." तीणे हासना सांगलें.

"गायक आनी वास्राक चंद नांव दवरल्लामु तूंवे –" तंगमणी लागी उल्लोवनु राबल्यारी वेळु वचे कळना म्हाका तिजेरी आशील्ली प्रीती चडना गेल्ली. दिवसाक एक पावटी पुण त्या चल्येले दर्शन करनातीलें" रावल्यारी इतें की नष्ट जाल्यावरी !

'स्वयम पाक' करून खावनु जिबेची रुची गेल्ली. बायलेले रांदपाचें मोल कळ्ळें... वगी बायलेक आपोवनु हाळ्ळी. शहरांत वाडीले तिका 'रूरल लायफ' (Rural life) इष्ट न्हय जाल्यारीय कितल काळ म्हणु सोणु राबतली.

बायलेन आयले नंतर दूदय चड घेवका पळ्ळे. दोन कुडने आशीले कडेन पांच जालें. तंगमणीक खोशी जावनु आसुका. दिवसाक आठ रूपय आशीली वीस जावनु 'प्रमोट जाले नवें? तिगेले आदाय बी चळ्ळे.

मेगेले बायलेकय दूद हाडची पोरी इष्ट जाली. न्हय जाल्यारीच तिका इष्ट पावनातीले राबूक कोणाचान जायन. कोणाले मनय पकनी आकर्षित करूं आसीली शक्ती तिगेले वर्तनांत आशीली. आमगेले ओटु चडुवंय नाती... आमका आसचो एक चलो... तिनतीन वर्षाचे ट्रानसफ़रा भीवनु

आनी चांग शिकवणे खातीर जावनु हांवे चल्याक बोर्डिंग स्कूलांतु घाल्ला.

मेळ्ळेले तेदुसूची तंगमणीन मेगेले बायलेक पोकेट करनु जाला !

"मांय आयली नवें. आनी मेनेजर माम्माक भिवचाना." तंगमणीलों रिमार्क आयकून मेगेले बायलेक, कसले खातीर ही पोरी अशीं सांगता म्हणु मनां जाले ना.

"तूं इतेंगो तंगमणी तशीं सांगता? एक्य मेनेजर माम्माक कसलें भंय?"

बायलेन सहज जावनु निमगीलें.

"आनी मांयले हातान इस्ट आशीले करोतु कावयत नवे? हांगा कसलें मेळूक –"

तिगेले तोंडा सुकूनु मोगारे सिंपूडले... बायलेकय तंगमणीले सामीप्य आपण्याले एकसुरेपण दूर करू आसीली एक उपाधी जाली... तिगेल वाटेन गांवची खबर मेलताली... कोण बाळांती... कोणाली व्हार्डीकं निश्चय जाला... तीणे दूद व्होरनु दिवचे घरल्यागी कोण कोण आसंती... आदी खबर ती दिताली...

त्या दीस हांव I.R.D.P लोणार घेतीले गांयक पलोवचे खातीर गेल्लेलो– गायक घेतला की ना म्हणु थरायचे, खातीर... ती बरी हळ्ळी... तंथय गुडसिल देखू मेळताले... गुडसिला लागूनु गायक बांदू आशीले कोडकें. लागी वननाची शेणाचो आनी मुताचो वासु मेजे. मेजे सांगात कृषी आफ़ीर (Agricultural officer) बी आसीलो... ताका वासु घेवनु अभ्यास जाला. तरी, म्हाका पोटां वळेन येवचा वरी जाले. हांवे सहन करनु घेतले... आमगेले काम खतम करनु पोरतूचे वाटेर एक गुडसिलां थाकून तंगमणीं भायर येता आसा ! तीणे म्हाका देखले म्हणु दिसता.

"ओ मेनेजर माम, हेंची मेगेले घर आमगेथंय येवनु वचाची."

तंगमणीन आमंत्रण दिले. म्हाका वचूया म्हणु आसा. तरी सांगात आयीले इतर लोक किते लेकतलीं म्हळ्ळलों विचारु म्हाका ! जाल्यारीय हांव मागशेलो ना. ती मेगेली प्रीतीची. हांवे हळू अपण्याले सांगातींक सांगलें –

"हांव ते घरां थांय वचून येता." "ही आमगेली तंगमणी नवें. दूद हाडचीं पोरी –" मेजे सांगात आशीले कृषि आफ़ीसरान सांगलें. तूं हिका जाण वे?"

"आमगेली chattering box (वाचाळी) नवें ती –" तो हासलो.

आमी तिगेले घरां गेलीं... त्या परिसराचे इतर गुडसील सी सान एक.

"तुगेली आमा खंय?" हांवे ननकी केली.

त्या घरांतु ती आनी तिगेले आमान मात्र आसा म्हणु तीणे सांगीले नवें.

तंगमणीन म्हाका सान एक रूमाक आपोवनु व्होल्ले. तांतु उजवाड थांय सम ना ! एक गोदडींरी प्राय जाल्लेली एक बायल मनीसी पणु आसा. म्हाका पळेवनु तीणे मातें उभारले. ती उठायचा पळयना की म्हणु लेक्रून हांवे सांगले –

"न्हिदयाची... उठायचे नाका." ही मेगेली आम्मा –" तंगमणीन सांगले. तवळीय तिगेले नोंडारी बेजार पळयले ना !

तिगेले काळजांतु किनले दुख भरनु आसकी–कोण जाण. काळे नोंड पेंयट (paint) मारनु गोरे केल्यावरी आपण्याले मनोदुख हासान निप्पयता आसतली !

"किनले काळ जाले अशीं?"

हांवे हळू तंगमणी लागी निमगीले.

"तीनी वर्स जाले–"

"पळ्ळेली जावो वे?"

"आमका फुडे एक गाय आशीली–कल्याणी. धार काडनना तीणे पाय मारलो. ती नशीं करत म्हणु आमान लेक्रीले न्हय. देकून जाग्रना घेनली ना... लेक्रनानीले वेळारी तीणे लात मारली. आमाले कस्ट काळाक लात कुर्टाक लागलीं."

"चिक्त्सा करनी वे?"

"आमचान जावची चिकित्सा पूराय केल्या–" तीणे जाणयलें.

धरल्यागी इतले कस्ट आसूनुय ह्या पोरीक कशीं हासू जाता – हांवे आपण्या लागीच प्रश्न केले.

हेरदीसु दूद घेवनु आयीले वेळारी हांवे तंगमणी लागी निमगीलें –

"व्होयगामा, घरल्यागी इतले कष्ट आसतना तुका कशीं हासु जाता?"

"मेनेजर माम, ही तंगमणी कस्टांतु वाडीली. कस्ट काडचे आनी भोगचे म्हाका रूढी जावनु गेल्या."

तें सांगून ती हासली. म्हाका नांकार बोट दवरनु गेले !

तीणें सांगील्यांतु एक नित्य सत्य निप्पून बसल्या म्हणु म्हाका दिसले. ना जाल्यार किनले की लोक आत्महत्या करनु घेता आसतलीं.

दीस खंयचे वाटेन धावनु गेले म्हणु कळ्ळे ना! म्हाका 'रूरल ब्रेंचा' सुक्रून बदली जाली–हांवे पुनः काट्टु बांदलो... तंगमणीक सोणु वचाक

सान मटाचे बेजार जाले. परंतु हें सकडी एक 'वावरडी'ले जीणांतु मामूली विषय म्हणु समाधान करनु घेतलें.

"एक मेनेजर माम्मान गेल्यारी आनी एकलो येता. तंगमणी हांगा आसता."

तिगेलो गळो भरनु आयलो की म्हणु म्हाका दिसलें.

"आमगेलो रिस्तो तितलो वे?" मेगेले बायलेन निमगीले.

ताका तंगमणीन जाप दिली ना. ती सीधा चमकली मेगेली बायल तीणे वचे पळेवनु राबली...

हेर दिस...

आमी वचे खातीर टाक्सींत बैसून आसतीं. तंगमणी आमका बिदा करुक आयली नामू म्हळ्ळले विषयांतु बेजार आशीलें... थोडो वेळु आमी राकून बसलींची. आखेर ड्रैवरान कार स्टार्ट केले. त्या वेळार तंगमणी धापेता धावन आयली. सीधा आमचे कडेन आयली. तिगेले हातांत दोन तांबडे गुलाबा फूल आशीले. तीणे एक म्हाका दिले: आनी एक मेगेले बायलेक दीवनु तिगेले मस्तकार एक उमो दीवनु धावनु गेली !... ती एक रूकाच्या आड राबली... तीणे उजवे हतान आमकां बै... बै केले... ती दावे हातान दोळे पुशीता आशीलीं... मेगेले बायलेले दोळेय भरनु आयले. आनी थंय राबचें सम न्हय अशें लेकून आमका बिदा करूं आयीले सर्वांक "टा... टा...? सांगले... कार हळू मुकारसले...

नवें ब्रेंचाचे चार्ज (charge) घेवचें कामा मद्दे विंगड कसलातूय मन दिवच्या जाले ना. देकून तंगमणी मेगेले विचारांत आयली ना ! जाल्यारीय बायल तिगेली खबर मदीं मदीं काडता आसताली

"त्या चल्येक मेजान विसरु जायना. भंगर सी चल्ली.

बायल सांगतली.

"तूंवे सांगचे सम. कांय व्यक्तित्व तशीं आसता. विसरूं लेकल्यारीय विसरुं जायना."

हांवे समर्थन केल्लें.

हांव नवे साहचर्या ओट्टु मेळनु गेलो... नवें ब्रेंच... नवें कस्टमरस (customers) नवें स्टाफ (staff)... दीस गेले... कालचक्राच्या घुंवंडीत हांव ते चल्येक विसरलो...

एक दीस हाव खबरें पत्र (News paper) वाजिता आशीलो. एका एकीं एकडे छापून आयीले खबरें कडेन मेगेली द्रष्टी उरली. संशयास्पद साहचर्यांन एक चल्येले मरण ! फोटो पळोवनु म्हाका तंगमणीलो उडगास आयलों. म्हाका दस्क जाले. हांवे वगी वगी खबर वाजली.

दूद विकून दीस काडची तंगमणी नावाची चल्नी गळपास घेवन् मेल्या! दोन म्हयने फूडें तिगेली आवस् स्वर्गस्थ जाली... घरांत् तंगमणी एकली आशीली. चार-पांच घरल्यार्गी नी दूद दिना आशीली. केदनाय हासना... खेलता... गमत उलयता आशीली चली. ती गळपास घेवन् मेल्ली म्हण् नमगूचा कष्ट आसा. कोणे की तिका रेप (rape) केले आनी रेपा मद्दें मेल्लेले पळोवन् आत्महत्या म्हण् करचे खातीर गळ्या पास् घालन् लोंबयल्ले आस्का अशें संशय आसा. भांगर सी चल्येंचेरी इतलो व्होड अत्याचार करूंक दिशीले त्या नराधमाक-तो कोण जाल्यारीय ताका सोदून काण् सकन दंड दीवका जाल्लेले आसा -

खबर वाजून म्हाका आपण्याले जीणांत् आज थांय भोगनातीले तिनले दुख जाले ! मेगेली बायल सेरग तोंडां धरन् रडली-तिगेले आंपण कोण की मेल्यावरी ! ...

मनीस इतल्याक नीच वे? म्हाका आलोचन करूं जाले ना ! ...

* (I.R.D.P. Integrated Rural Development Plan.)

# अर्दार पळ्ळलें घर

अखिला घराच्या तेण्यार बैसून सपन पळयत आशीलीं. त्या वेळार एक तरणाटो आयलों. पेंटस आनी षर्ट ताजो वेस. पळयच्याकं गोरो आसा. दोळ्यांत नखेत्राच्या उजवाड... क्लीन षेयव केल्लेलो चेरो.

ती त्या अनवळखीक एक घडीं पळोवन राबली आनी एका एकीं भितर वच्याक घुंवली.

"एक निमिष –

आयिल्यान ताळो सडलायलो.

ती रावली. ताजे दिक्डेन पळयलें.

"शंकर शेटी माम ना वे?"

ताणे निमगीलें.

"ना. ताणी भायर गेल्यांती. आतां येवच्या पुरोती. हांव मांयक आपयतां"

तीणे आलस्थान जवाब दिलीं.

"धूव वे?"

ताणे मर्यादे खातीर निमगीले.

"न्हय. सून –"

तिजे ओंटार ल्हान हास उदेलो.

"sorry म्हाका चुकलें –"

ती कांय उलयनातीलें भितर गेली... दोन घडियेन एक प्रायस्थी बायलमनीसीं भायर आयली "हांव रामदासु सिविल एंजिनीयर (civil engineer) आनी कोंट्राक्टर (contractor). तुमगेले पुतान घर बांदूची खबर सांगीली –"

ताणे आपण्यालो परिचय केलो आनी आयिलाच्या कारण जाणयले.

अखिला भितर जनेला लागी राबून तांगेलीं उत्रां आयकत आशीली... मदीं मदीं तिगेले दोळे ताजे कडेन घुंवता आसंती !

"व्हय. घर बांदृ आसा... तूं बैस. ताणी आतां येतली... चा की कापी?"

शंकर शेटीले बायलेन घरल्यागी आयीले मेह्माना लागी मर्यादा दाखयली.

तितुले वगी अखिला एक पेलो चा घेवन आयली !

तिगेले ओंटार मोगाग कळो फुल्ला वरी मान हास.

"Thanks. म्हाका चा इस्ट म्हणु कशीं कळ्ळें?" रामदासान चा–पेलो

हातांत घेवन तिका प्रशंसा करचे वरी पळयलें तिका लजा सी दिसली... मांयचो चेरो प्रसन्न जालों...

ताणे चा पीवन पेलो परतून दिवचें वेळार शंकर शेटी येवन पावलो.

"तूं आयलो वे? येवनु सुमार वेळु जालो वे? हांव भायर गेल्लेलो–"

शंकर शेटी एक कुर्सी तांडून घेवनु बसलो... ताणी घर बांदूचे विषयांत चर्चा केली... अखिला बी मांयचे मागशीं राबून आयकत आशीलीं...

"हांवे प्लेन हाळ्ळेले आसा–"

रामदासान आपण्याले 'ब्रीफकेयसां' तुळ्यान घरा–प्लेन भायर काळ्ळें

"तुमीं सांगीले तशीं हांवे प्लेन बरयलेले आसा. बदलावण कसलीय आस्स तरी construction आरंभ करचे फुडे जावका–"

रामदासान 'नमूनो' (plan) शंकर शेटीक दिलो. ताणे पूराय एक पावटी पळयलें.

"अखिला, तूंवंय पळेगो आम्मा. फाय तूंवे आनी दामोदरान राबूका जाल्लेलें घर न्हयवे. इतेंय बदलावण जावका जाल्यारी सांग –"

शंकर शेटीन नमूनों सुनेक दिलो. तीणे मागशेंत मागशेंत घेतले आनी भितर गेली... सल्प वेळान तें घेवन भायर आयली... तीणे एक दोन चेंजसं सांगून दिले... रामदासाकय तीं चिंतना म्हणु दिसले...

"म्हाकाय दिसीले तें – परवा ना –"

ताणे परत एकदा प्रशंसा केली... तीणे हासून काळें...

"म्हाका तो जागो पळोवका मू –" तांनितें? आमका पळोया. सगळीं पांच मिनटा वाट'- शंकर शेटी उठलो.

"अखिला, तूंवंय योगो–"

मांवान सांगीलें आयकून अखिला एकदम ड्रस बदलसून आयली... रामदासाले तरणाटे दोळ्यांक ती फुळ्ळेच्याकय खूबसुरत दिसली! एकाएकीं ताणे आपण्याली दृष्टी माग्शी तांडली. आपण्यान करचें चूकी अशें ताजे मनाक दिसून आसूका. परक्याली बायल ती.

–२–

शंकर शेटीलो पूत दामोदरान दुबाईक वचून चार–साढे चार वर्स जावन आसूका. दोन वर्सांत एक पावटी आपले देशाक येवच्याक सुटी मेळना ताका. ताणे वावुरचे कंपनीच्या नेम तशीं... प्रथम पावटी सुटीर आयीले वेळार अखिलाले सांगात तागेली व्हार्डीक जाली... व्हार्डीक जाल्लेले एक हपतानच तो परत गेलो – बायलेक तागेलें आवसु–बापसु लागी सोणु.

दामोदर बी. कोम. शिकला... गांवांत ल्हान एक कामारी आशीलो...

शंकर शेटी दडवालो न्हय. सान एक 'प्रोविशन स्टोर' (provision store) चलायतं आशीलो. तांतु थाकून बेलचे आदायानची दीस काडका आशीले. शंकर शेटीक दोग चर्डुवां-एक चलों, एक चली. चल्येली व्हार्डीक जाल्या. ती दूर एक गांवात घोवा सांगात संसार करता आसा... पुताली शिकवण जाल्लेले उप्रांत शंकर शेटीक थोडे समाधान जाले... पुताक एक काम मेळ्यार कांय नातल्यार आपण्याले पोट पुण भरतलो नवें -

शेटीली प्रतीक्षा वगी सफल जाली ! एक दूकानांत ताका लेक बरोवचे काम मेळ्ळें. पगार ऊणे जाल्यारीय घरां सुकून चमकून वचे दूर... जवणाक येतलो... सांजेचे कापी-खाण दूखाणांत जातलें...

एक दीस लागीचें शहरांत नव्या कामगारांक नेमक करचो दल्लालपणाचां संस्थो (Recruting Agency) शिकवण आशीलें तरुणांक कामाक घेताती अशें दोस्त एक ल्यान जाणयले. पन्नास हजारा लागीं खर्च आसा !

दामोदरान एक हात पळोयां अशें लेकले. परंतु पन्नास हजार खंयची हाडची?

...तशीं दुबाईक वचा आशीलो विचार मनांतूंच दवरन दीस काळे ताणे... चल्याले काळजांत कसली की आशा आसा म्हणु बापसूक कळें.

"दोन-तीन दीस जावनु तूं कसली चिंतेर आसा?... कसले जाल्यारीय आन्नाक सांग-" दामोदरान आपण्याल्रें चिंतेच्या कारण सांगले.

"दुबाईक वच्चा जाल्यारी आमगेले कस्ट परिहार जातले-"

"तूंवे सांगचें समरे पुता. तरी पन्नास हजार खंचाण हाडचे? आमचे असल्यांक कोण उशीणे दितले? कसलेंय अडवा घाल्या म्हळ्यार थांय ना. ओट्र आसूचे ह्या घर-हितल. हें अडवा घालन ऋण काडया म्हव्यारी फाय ऋण परतून दिवच्या जायनातल्यारी वचे खंय?"

पुतान आनी बापसून मेळनु जोरदारं आलोचनं केलीं... आखेर एक दोस्तान विदेशा वच्याक बेंक-लोण' (Bank Loan) मेळता अशे जाणयले... तशीं बेंका सुकून लोण घेवन दामोदर दुबाईक गेलों...

दोन वर्साचे उप्रांत, सुर्वे पावटी हात भर दुडु घेवनु आयीलें पुताक पळोवन शंकर शेटीले दोळ्यां सुकून आनंदाचे अश्रु होळ्ळे!...

परतून वचें फूडे तागेली व्हार्डीकं करनु सोल्ली. दुबाईत काम देकून चली मेळ्क व्हड कस्ट जाले ना !

व्हार्डीक जाल्लेले हफ्यनच परतून गेल्लेले देकून बायले लागी मन सोणु उलोवचा की, मोगु करूं की पुरसती जाले ना ताका... तिकाय घोवा लागी लजा सोण मेळ्क की आनंद भोगु कां जाले ना. सुटी संपलेली

देकून वचनानीलें वाट ना आशीली. सांगीले वेळार पावनी तरी आशीलें कामाक नाम जायत म्हळ्ळले भय आशीलें नाका!

–३–

दुबाईक गेल्लेले दर एक मनश्यालीं प्रथम आशा खुद जावनु एक घर बांदूका अशीं.

दुसरे पावटी आयीले वेळार दामोदरान आपण्याले नावार पंद्र सेंट जागो घेनलो... चार पांच माड्डे... रान रूकां... एक दोन काजु रूक–जागो चिंनना. तांका सकडांकय इस्ट जालो. आनी एक घर बांद्का. सल्प दुड्डु आसा. बाकीच्या खातीर बेंक लोणाक ट्रै करका–नाणे टरायले. ताजे आमुख जावन नाणे आपण्याले बायल्लेले नावार P.A. (Power of Attorney) तैयार केली... बेंक लोणाक हरजी घाली... नाणे परतून वचे फूडे contractor क देखून आयलो...

आज दामोदराले सपनाच्या साक्षातकाराचे काम आरंभिला...

शंकर शेटी, रामदास आनी अखिला घर बांद्क प्लान घाल्लेलें जाग्यार पावले... रामदासान जागो भोवन पळयलो. लंबाई उत्तर–दक्षिण जावन आसा... उदेंनाक तोंड करनु घर बांद्चे बरें. उदय सूर्याले किरण दारार पडनलें–प्लेन तेलार दवरन रामदासान कसलें की लेक्काचार (calculation) केले.

"शेटी मामु, आमी उदेंनाक तोंड करनु घर बांद्या. मागशी थोडो जागो सोळ्यार पूरो जातले. मुखार आंगण जाय न्हयवे. मुखार एक माडो आसा. तो कातरोंका पडनलो... उत्तर भागांत चड माडे आसती. देकून चड जागो सोणु घरांचे पंचांग घाल्येन–"

ताणे आपण्यांलो अभिप्राय सांगलो.

"दामोदर तुजे लागी उलोवन आसनलो न्हयवे? ते प्रकार करी. घरा भितरी उजवाड पडका –" शेटीन सांगले.

"तें सकडी यथा प्रकार जातले. तुमीं कांय चिंता करका म्हणु ना. केदना आरंभ करका म्हणु सांगल्यार जालें –"

तो हासलो.

"शिलान्यास करका जाल्यारी मूर्त पलोवका न्हयवे? दोन दीस भितर कळयता –"

–४–

त्या दीसा म क रामदासान विदाय सांगले. एक वाल्लीक बरें जावन वाड्का जाल्यारी एक रूकाचो आधारु जायीच. तो रूक लागी आसल्यार

भोव उत्तम. न्हय तरी ती वाली मात्येंत लोळता. मेळ्ळेलें वाटेन चरता. ना नाश जाता. हो निसर्गाचो नेम.

अखिलाली व्हार्डीक जावन वर्स चार सरलीं. परंतु व्हार्डीक जालीं म्हणु नंत 'घोवाले सूख' तीणे आश-भरित योगीलें ना !... व्हार्डीक जाल्लेंले हप्रानच घोव दुबाईक परत गेलो. मागीर आयीलो दोन वर्साच्या उपरांत... ताजे मदीं घरा खातीर जागो घेवच्याक, दोस्तांक मेळूक अशीं आशीलो वेळु गेलो येवचे भितर परतून वचा जाले !...

अखिलान घोवाक सांगीले –

"तुमीं हांगाची कसलेय कामाक पळयाची. मेळचे आदायान आमका दीस काडयेत. तुमगेले आनाकय आम्माकय प्राय जाल्लेलो वेळु –"

"घर बांदूका तरी भायर वचनातीलें जायना. तूंवे बेजार करचे नाकां. आनी एक चार वर्स. घर बांदून आनी ताजे खातीर काळ्ळले बेंक लोण पावीत जातरी दुबाई नाका म्हणु दवरयत–" ताणे तिका सांतना दिलीं

"तशीं जाल्यारी म्हाकाय तुमचे ओटु व्होराय तुमीं नातीले म्हाका इतेकी जाता –"

तीणे आपण्याली अवस्था व्यक्त केली... पुण, तिगेली आस्ता व्यर्थ जाली... घराचे काम पूर्ती करूंक तिगेले अगत्य आशीलें...

घराच्या बांदावणे काम (constructions work) चलत आशीलें. शंकर शेटी 'सैटार वत राबतालो. ताजे सांगात अखिला बी... सैट दूर न्हय देकून दिवसाक एक पावटी पुण, मांवाले सांगात आसल्यारीय नातल्यारीय ती वताली – भोव खोशीन तांतु शेटीकय कांय अनिस्ट ना आशीले. कारण, तीणेय राबूका जाल्लेले घर तें. शिकीली चली. काम पलोवचीं उमेद आसता. आयचे काळार वावराडीकच सोणु दिल्यार काम आमी लेकीले तशीं चलचें कस्ट. वावराडींक तांगेली मजूरि मेळयार जाले. फूडे काळार काम करनल्योक आपण्याले काम पळोवन चार जनाती 'शहभास' म्हणका म्हणु आशीले. आज ताम्चे लागी उलोवका जांल्यार चार पावटी आलोचन करका. contractor जाल्यारीय तशींच घराच्या बंदणी–कामा ओटूच रामदासाली आनी अखिलाली दोस्ती चडत गेली... तांका कळनातीलेच तांचे मदीं एक तराच्या आत्मबंध. वाडन आशीले ! दोगंय तरणाटे. हून रगत... रामदास बेचलर... अखिलाली व्हार्डीक जाल्यारीय घोव दूर... संदर्भ आनी साहचर्य तांका लागी तांडित रावलें !...

"स्वामी, हांव अशीं सांगता म्हणु तुमीं काही अन्य था समजू नाकाती. तुमगेले सुन्नेक तुमीं अशीं वार्याक सोळ्ळले सम जाले ना –"

एक दीस, construction work करचे वीरूं नावाचें वावराडीन संदर्भ

मेळ्ळेले वेळार शंकर शेटी लागी सांगलें !

"तूं कसलें सांगता आसा वीरू? मेगेले सुन्नेन कसले केला म्हणु सांगता तूं?"

शेटीक आश्चर्य.

"स्वामी, आजी थांय काही केल्लेले ना. कोंट्राक्टराली आनी हांगाची सुन्नेली दोस्ती थोडी चड की म्हणु म्हाका दिसता स्वामी. उजो आनी कर्पूर लागी लागी दवरूं नज म्हणु मालगडे सांगनालीं... म्हाका तुमीं फुडे वळखनाती नवें. ते देकून सांगचे स्वामी–"

"तूं धैर्यान सांग वीरू. हागा हांव आनी तूंवे मात्र असचे. खबर कसली?"

वीरू फुडे धरनु शेटी थंय कामाक येनालो... तो नातीले कांय सांगचो न्हय–अशीं विश्वास शेटीक

"कोंट्राक्टरू तरणाटो... लग्न जायनी... तुमगेलो पूत हांगा ना...तांचेरी एक दोळो दवरनु घेवचे बरें–"

वावराडी पग्नलो... शंकर शेटीक माथें हून जाले... वीरून सांगीले पुराय नमगनीं जाल्यारीय ताजें उत्रानीं संशयाची कीडी माथ्यांत रिगली... तांनु कसलें की सत्य निप्पून बसीलशी दिसलें !

उजो आनी कर्पूर लागी लागी दवरूं नज खंय. व्हय. वीरून सांगचे सत्य. एक वोर आयल्यारी उजो कर्पूराक गिळना.

शंकर शेटीन सल्प खबरदार आसूका म्हणु लेकले. फाय कसलेंय चड ऊणे जालें तरी दोष आमकाच. माथें उकोळनु भायर देंवचा जायशी ना...

हेर दीस धरनु आरोग्य सम ना आसल्यारीय शंकर शेटी एकलो वचा लागलो... तिका संशय जालो तरी दाखोवन घेतले ना... कोणे की मांवाक कान पिळ्ळा आसूका म्हणु तिका दिसले. तरी ती कांय उलयली

शंकर शेटीले सांगात अखिलाक देखनातीले रामदासाक आश्चर्य जाले.

"आज शेटी मामु एकलोमु?"

ताणे सहज निमगीलें.

"तिका घरा कडेन थोडे काम आस... तीणे येवूका म्हणु कांय ना पळे"

इस्ट नानल्या वरी शेटीन जाप दिली. मागीरी रामदासान काही निमगीले ना... आपण्याले कामांत मग्न जालो...

दामोदर दुबाईन आपण्याले दफ़्तराक वच्चे तयारीर आशीलो. त्या वेळार तागेलें "रूम मेयटान (Room Mate) आपोवन सांगले –

"मि. दामादर, तुका फ़ोण कॉळ–"

बापसूलो 'फ़ोण कॉळ' आसतलो. अशीं लेकून ताणे बेगीं कॉळ अटंड' (call attend) केले. गृह निर्माणाची आनी घरकडचीं खबर आयकूचें उतसाव ताका.

"हलो कोण? आनुवे? घरल्यागी सकडी आराम वे? घरा काम खंय थांय पावेल?"

ताणे एक्s श्वसान निमगीलें.

एक घडी आन्येक बगलेचान हासकारु–हुसकार आयकू आयलो ना ! पुण, मागशीच कोणे की रळ्ळलें आयकलें !...

दामोदराक भय जालें... बेजार बी !

"हलो –"

ताणे घाब्रेत पुनः आपयले... अकस्मात बापसून सांगीली खबर आयकून तो थंड जालो! हात पायाक शक्ती नातल्या वरी अणभव जाले... ताजे हातांतुल्यान फ़ोण जारवलो !... तो क्राडिलाचेरी (cradle) मेल्लेलो विंदूर सी लांबून रावलों

अखिला कोंट्राक्टरा ओटु फरार जाली खंय !... 'घरा काम अर्दार पळ्ळा'...

# आनंद नगराच्या आत्माराम

हांवे पुनाले सांगात आनंदनगरांत रावच्या गेल्लेले वेळार सुरवेक गुरतु जाल्लेलो मनीस आत्मारामु. पुनान रर्बाले भाडया घराच्या आजु बाजु खंचेय घर ना आशीलें. तें आमका व्होड 'प्रोब्लम' जावनु दिसलें... पुनाले आफ़ीसाक सल्प लागी जाता देकू नूय वेगळे घर मेळनातीले देकूनूय ताणे ते घर काळ्ळें – आज नानल्यारी फाय वेगळे घर मेळनले म्हळ्ळले धैर्यान.

ह्या घरा नांवारी पुनाक आनी सुन्नेक भारी झगडो जाल्ला... आमी आयीले देकून सल्प समाधान. तें स्वाभाविक. एक तरणाटी चल्येन आजु-बाजु कोणय नातीले घरांन एकलेनच राबृका म्हळ्यार कशीं?

म्हाका सांजे वेळार वारें खाना बैसूक एक थाण जावका आशीलें. तशीं हांव थंय बशीलो. त्या वेळार हांवे एक मनशाक दूर एकडे रोडाच्या क्रोसार एक सिमेंटा बेंचार बशीले पळयलें. म्हाका थोडो आश्वास जालो. एक मनुष्य जीवीक पळयले नवें? संतोष. ह्या घरांनुले एकसुरेपणाचे हातां सून सल्प पुण आश्वास मेळनलो न्हयवे?

हांव हळू वचून दूर बशीले आत्मारामाक मेळ्ळो... एक साठ-बांसठ वर्साचो मनीस माथ्याक थंडी सुकून वांचूक एक 'मोकी टोपी' दवरल्यां. सान मटाक खाड आसा. लागी दोन तीन चर्डुवां बैसून असंती.

"हलो. हांव राघव शणाय. त्या घरां राबुन आसा-"

हांवे घरा कडेन बोट दाखयले.

"Glad to meet you. हांव आत्माराम-" आमी हेनां – तेनां परिचय करून घेतलें. नवें मनशाक देखून आसूका थंय आशीले चर्डुवां लजेन की भयान की हळू जाखलीं !

"ह्या चर्डुवां?"

हांवे अशीं तरी निमगीले.

"ह्या चर्डुवां मेगेले 'वानर सेना'. लागी घर-कडचे-"

हें सांगून आत्मारामु हासलों

"हांगा शणायीलें कोण आसा? धूव की पूत?" आत्मारामान निमगीलें.

"पूतु तो एक 'सोफ़्टवेर' कंपनींत काम करता-" हावें कंपनीच्या नांव

सांगलें.

"चांग कंपनीमू–"

ताणे उदगार काडलो.

चांग आनी वायट. ही तागेली चारी कंपनी –" "तें तशींया. I.T. तु काम करतलांगेले 'हणे–बर' तशीं. स्थिर जावनु एकडे राबचे म्हणु ना. चार कासु चड खंय मेळता की थंयक उडताती–"

आमी तशीं एकेक उलोवन बसलीं... वेळु गेल्लेलो केळ्ळेंना ! स... साडे स म्हणतना आत्माराम उठलो. थंड वारें मारुक आरभिले...

"शणाय सल्प दीस आस की हांगा?"

"ड.हा–"

आमी विदा जालीती.

हेर दीसूय आत्मारामाक त्या टिकाणेर बशीले पळयलें. हांव त्या गांवांत नवो देकून वेगळे कोणालेय. गुरतु जायनी. म्हाकाय टैम पास कोरका आशीलें. हांवय थंय गेलो... म्हाका देकून आत्माराम हासलो. हांवय.

आमी काली मेळ्ळले न्हयवे?'

व्होय"

आमगेली दोस्ती वाडता गेली. म्हाका ह्या मिलन एक अश्वास. कोणय नातीले कडेन कोणय पुण मेळचे आश्वासू नवें?

"एक दीस घरल्या येना इतें H.No. 123-" आत्मारामान आमंत्रण दिले.

त्या दीस इकरा वराक हांव आत्मारामाले घराकडेन घुंवलो... तीन माळ्ये फ़्लेट... लिफ्ट (Lift) ना ! security लागी हांवे permission घेतले. हांव दोन्नी फ़्लेटार चडलो. व्होड कस्ट नातीले चडूं जाले...

एक घराच्या भायर एक प्राय जाल्लेलो मनीस राबून आसिलो. हांवे ताजे लागी तनकी केली –

"H.No. 123. खयंचे सैडार जाले?" आमगेले आत्मारामाले घरवे? हांगा तागेले घर कळनातीले जनय आसवे?" त्या मनशाक अजाप !

हांव हांगाचो न्हय –"

"तशीं सांग... हांगा सुक्र न चारी घर –" हांव ताका थ्यांक्स सांगून मुकारसलो. आत्मारामाले घर कळनातीले कोणय नावें हांगा? तितल्याक फ़ेमस वे तो?'

हांवे मनांतू निमगीलें.

हांवे बागला मारलेलें तशीं बागील उदारे जालें. "यो... यो..."

आत्मारामान हार्दिक स्वागत केले. हांवे 'होळांत' पाय दवरलो... मुखार, नेलार बैसून एक चर्डू खेळ्ता आसो... म्हाका पळोवन चर्डान 'डु.डु' करूं शूरू केलें... आत्मारामान ताका उभारले.

"आजो गो तो... आजाक 'षेयकंड' दी –" चर्डान मागशेना मागशेता उजवो हात नीटु केलो.

"Good Girl" हांवे चर्डाक मोग केलो.

"बैसगा–"

हांव सोफार बसलो... मेगेली दृष्टि चारीकडेन घुंवली... थंय हांगा हलवु नमूनेचे बोमें... एक चर्डाक खेळचे खातीर इतले बोम्में वे?

"एक निमिष – आयलो."

आत्माराम चर्डाकय घेवन भायर गेलो. ...कोणा लागी की उलोवचे आयकलें... परत येताना नागेले हातांत चर्डु ना !

"चर्डु?"

हांवे सहज निमगीलें.

"तें लागी घरकडचे चर्डु... ताजे आवसु लागी दीवन आयलो –"

"हांवे आत्मारामाले नातु की म्हणु लेकीलें –" आत्माराम एक घडी मौन. उप्रांत – "म्हाका नात्रां नाती –"

"Iam sorry -

"That's all right - बैस आनां आयलो–" आत्मागम म्हाका बैसू सांगून भितर गेलो – हांव सोफ़ार बैसून दिन पत्र वाचू लागलों. ... सल्प वेळान आत्माराम 'उपमा' आनी चा घेवन आयलो.

"हें सकड इत्या आशीलें... खंय, माय देखू नामू?"

"हांगा हांव एकलोचीं... मेगेली बायल दोन वर्स फूडे स्वर्गस्त जाली"

"sorry, उपमा आनीचा?"

"नळपाक, हांवें करचे. तीणे गेल्ले परांतु 'स्वयम पाक'... म्हाका जावका जाल्लेले हांवें करनु खावचे –"

तो हासलो.

त्या वेळार एक तीस वर्स प्राय दिसची एक चली आयली.

"योगो चर्डा–"

आत्मारामान तिका भितर आपयले... ती म्हाका दखून भितर येवचे की

नाका–म्हळ्ळावरी संशयान राबली.

"हो आमगेलों शणाय मामु. Donot hesitate तूं आपण्याले कामकरी–"

आत्मारामान मेगेलो परिचय केलो. ती हळू हासली. आनी भितवयले कूडा क्हेन चमकत राबली.

"ह्या फ्लेटांतुली चली. वेळु मेळतना computer शिकूं येता. तिगेलो बामूणु सान एक कंपनींत Accountant ती B.Com. शिकल्या –"

हांव कसलेंय उलयलो ना... म्हाका कसलेंय उलावचा दिसनी !... सल्प वेळान हांवे good bye सांगलें...

आनी एक दीस गेल्लेले वेळार एक आवसु आनी तिन्नी क्लासांत शिकची चली बैसून चा पिता आसातीं... तानी परतलेले नंतर आत्मारामान सांगलें –

"चली ट्यूसनाक आयीली... तीका पोटाभूक जाता म्हळ्ळाली... तशीं कापी केली. बिस्क्ट आशीलें. त्या वेळारी तिका व्होरूक तिगेली आवसूय आयली. कापी दोगांकय दिली–"

आत्माराम चांग एक 'रांदपो' म्हणु म्हाकाय अणभव जाले – तागेले घरल्यागी मर्दीं मर्दीं वचूनु !

एक दिवस – त्या दिवस इतें म्हणु कळना – आत्माराम भोव 'सेनसिटीव' (sensitive) जावन दिसलो म्हाका–राम आपण्यालें खातीर मन सोण उलयलो !

–२–

आत्माराम जनन जाल्ललो एक हळ्ळींतु. आवसु–बापसूंक एक पूत. जनन जाल्लेले तशींच आवसु गेली. बापल्याले बायलेन वाडयले. तांगेले चर्डुवां ओटु शिकयले... graduation जाल्लेले दोन्नी म्यनानची एक प्रैवट कंपनींत काम मेळ्ळे. तो एक रूम काणु राबलो. प्रैवट जावनु पोस्ट ग्राजुवेषन केले... ताका chief accountant ले पोस्टारी बडती मेळ्ळी ... तागेली व्हार्डीक जाली... ताणे आनंदनगरांत एक फलाट (flat) काळे. बापसुकय ताणे आपण्याले ओटु राबयलें. पुतान आनी सुन्नेन बापसूक कस्ट दीनातीले चंदायीन पळयले... नात्राले तोंड पळयल्लें दोन्नीं म्यनारी बापूसूय गेलो...

एक चल्या चर्डा परांतु आत्मारामाली बायल बाळांती जाली ना... एक पावटी तिन्नी म्हनारी गर्भु गेलो!... आशीले चर्डांक ताणी मोगान वाडयले. ताका शिकयलें. तो software engineering पास जावनु एक सोफ़्टवेर

कंपनींन कामा मेळो... थंय ताका परजातीचे चल्ये ओट लौ एफयर शूरू जाले... आवस्. बापसून उपदेश दीवनु पळयलें. प्रेजनार पळ्ळें ना... आखेर, ताणी कळनातीलें रजिस्टर व्हार्डीक करनु घेवचाकय चांग मर्यादेक व्हार्डीक करनु दिवच म्हणु लेकळें आत्मारामानं. चल्येले आवसु बापसूक मेळनु उलयलों... नांका कांय विरोध ना आशीलो. चल्याक तागेले इस्टानुसार व्हार्डीक करनु सुन्नेक भितर हाळी...

आत्मारामाली बायल एक मामूली बायल मनीसी... तिका एकमात्र पुतान परजातीचल्येक व्हार्डीक केल्लेले इस्ट जाले ना... तो विचारु तिगेले मनांत एक कोटो सी खोंपलो... जाल्यारीय तीणे आपण्याले मनांतुले दुख सांगले ना... तरी मनांनु लागीलों कोटो थंय राबून सुजून आयले...ती रोगी जाली... हांवे आत्मारामाक मेळचे दोन वर्स फूडे घोवाक एकलो करनु ह्या संसारोतले आपण्याले ऋण तिरसून गेली...

"तशीं ह्या घरल्यागी हांव एकलो जालो... पुतानय सुन्नेनय म्हाका आपयलले. तरी मेगेले बायलेलो उडगास भरनु राबीले ह्या घर सोणु वचाक दिसले ना."

"आत्मारामान राबयलें. आज नुका पश्चाताप दिसनावे?" हांवे 'कॅश्वल' (casual) जावनु निमगीले. "इत्याक? म्हाका आतां जाल्यारीय वचूयत मु?" मागीरी ह्या 'एकांतवास' किन्याक? बाकी दीस पुना ओटु गमतेन काडु नजवे?

"पळे शणाय, तांका आता सान प्राय. Life enjoy करचो वेळु. हांवे 'सोर्गांतुली काडु मूर्यी जावका वे? मदें मदें हांव वचून राबून येता. तांगले 'कुशलोपरीं करनुं येता... खेळोया म्हळ्ळारी नात्रा कांय जायनीं –"

तशीं कस कसलें की आमी उलयलींनीं. हांवे लेकीलें, आत्मारामाक हात भरी कमायी आस म्हणु... पेनशन ट्यूशन कंप्यूटर क्लास... मेगेलो विचारु व्यर्थ. प्रैवट कंपनीं सुकून पेनशन दीनातीं. निवन जातना मेळ्ळले प्रोविडट् फ़ड, ग्रेटिविटी इत्यादी मेळ्ळलें फ़िक्सड डेपासिट दवरलां. तांतु सुकून मेळचे interest मात्र एका एक income.

"म्हाका नात्रां जायनी जाल्यारीय ह्या फ्लेटांतुलें चर्डुवां पुराय मेगेले नात्राचीं. तांगेले निमित मेगेलें एकसुरेपण दूर वता. हांव तांका ट्यूषन दिता... कंप्यूटर शिकयता... आवसु–बापसूले अनुपस्थि तीरी तांगेले चर्डुवांक पळोवन घेता... मेजेरी आशीले विश्वासार तीं चर्डवांक म्हाका सोणु दितोती !..."

आत्माराम हासता सांगलालो. "सान चर्डुवांक पळोवचें म्हळयार रिस्क (risk) न्हयवे?"

"कसलें रिस्क गा. आमगेले नात्रा जाल्यारी आमी पळोवन घेनाच आशीले वे? चर्ड़ुवांक मोगु केल्यारी आमी सांगीले तशीं आयकताची"

आत्मारामान सांगीले एक लोकतत्व म्हणु म्हाका दिसलें... साकर आशीले कडेन मूंयी भरलावरी मोगु आशीले कडेन चर्ड़ुवा वताती. "हें सकडी हांवे करचे लाभेच्छा निमित व्हय. just for self satisfaction -"

आत्माराम हासलो... तागेले तोंडारी म्हाका एक तराच्या दैवीक भाव देखुं जालो ! अशीं आसवे एक मनीस आमगेले पोलिटकल लीडरंसानी, (political leaders) थांय आमका शिकयलेले स्वार्थु नातीले... लाभेच्छा नातीले कसलेंय करू नज म्हणु !... चर्ड़ुवांक चार अक्षर सांगून दिल्यारी... कंप्यूटराचे मौसारी हात दुवरल्यारी फ़ीस घेवचों काळु हो... बेबीं सिटिंगाक थांय (Baby sitting) हात भरी घेनांती –"

मेगेले पुताक वेगळे कंपनींतु वावर मेळ्ळे... आमी आनंदनगर सोळे... हांवे आनंदनगर सोडचें वेळारी आत्मारामाक 'आनी केदनापुण मेल्या–' अशीं सांगून बिक्ष जालो.

आनंदनगर सोळ्ळेलें नंतर आमी मदीं मदीं फ़ोणार उलयतलींतीं... वेळु गेल्लेलें तशीं आमगेले कणक्षन (connection) ऊणे जालें...

–३–

हांव सकुटुंब उतर भारताच्या टूराक गेल्लेलो... विक्रम ट्रावलसान एरंज केल्लेले पंद्र दीसाचे टूर एक राती बंगलूरां सुकून मंगला एक्सप्रसोत भायर सरलींती... आग्रा थांय ट्रैनारी. थंय सुकून बसारी... आमी यात्रा करता करता हरिद्वाराक पावली. थंय म्हाका आकस्मात आत्मारामाले दर्शन जालें ! ताका पळोवनु म्हाका गुरतु (वळख) मेळो ना !... फूडेचाकय भागला... खाड–वोड वाडयला ! 'काषाय वस्त्र न्हसला ! पळयल्यारी एक सन्यासी ! ह्या मनशाक इतें जाले?

हांवे मनांतू निमगीलें !

"आत्माराम नवें?" हांवे संशयान निमगीलें. त्या मनशान मातें उबारनु म्हाका पळयले. ... ताजे ओंटारी ल्हान हास उदेलो. तातु चैतत्य ना आशीलें !

"मि. राघवं –

"व्होय. राघव शणाय. विसरनी नवे?" हांवे नमस्कारु केलो.

"विसोरू लेक्कीलेच विसरु जायनागा शणाय–" एक दीर्घनिश्वास !

म्हाका कांय मनां करु जाले ना !... हागेले जीवनांतु पुन कसलेय दुख

येवनु पळ्ळें की-- "आत्माराम हांगा - हे वेशारी?" यो. आमका तेनां बैसून उलोया-"?

आत्माराम आनी हांव आश्रमाचे एक कोणसांत वचून बसलींतीं.

आत्मारामाली खबर आयकून मेगेले मन आरद्र जालें ! ताजेरी म्हाक 'क्रस्ट' दिसले... मानव जीवन एक सोलव (solve) करु जायनातीले आळें-अशें कोणे की सांगीले मेगेले उडगासाक आयलें !

आत्मारामालीं प्रतीक्षा पुराय आपण्याले पुता चेरी आशीली... ताका पांच वर्स कळवुनूय चर्ड़ुवां जाले ना. त्या बेजार मनाक खाना आसनाना नागेलें जीवन सगळे धरनु ह्ालयलां वरी त्या धडणूक घटली. एक कार अपघातांनु पुतु आनी सुन मेलीं ! त्या आघात सहन करु आशीले त्राण आत्मारामाक ना जालो... एक हपतां नो आसपत्रींत पळो... discharge जाल्लेले नंनर ताणे आनंदनगरांनुले घर (फ्लेट) एक orphanage क बरोवन दिले ! आत्महत्या करूक धैर्य नानीले तीर्थयात्रा केली. आखेर हरिव्दारांनुले ह्या आश्रमांतु शरण पावलो आश्रमवासींगेली सेवा करतती दीस काडता आसा...

हरिव्दारां थाकून परत येतना हांव मानव जीवना खातीर एक परिभाषा (definition) सोदून काडूक यत्न करता आशीलो...

# ऋणानुबंद रूपेणा

रमाकांतु बेंगलूराच्या एक 'सोफटवेयर कंपनींत (software company) 'प्रोग्रामर' (programmer). पलोवच्याक परवा ना. गोंरा रंग... काळी दाट मिशीं... नखेत्र सी दोळे. सामान्यं स फ़ीटा लागी उंचायी: वावरांत बुदवंत. पिराय एकतीस जावनूय बेचलर (Bachelor) ! M.C.A. करनूय वावर मेळूक कस्ट जाले ताका ! बेंगळूरा तसलें 'सिटींत' दोन-तीन हजार पगार मेळ्यार खंय पावता... अपण्यालें खुद घर आसल्यारीच जीवनाक पावचे ना. तीन-चार हजार दीनातीलें भाडया घर मेळना. दिसाक शंबर रुपयी लागी खाण-जवणा पडता. मागीरी येवचो-वचो खर्च नावें. देकून चांग एक वावर मेळु थांय घरकडच्यान रमाकांतालें जातक भायर काळ्ळें ना. कोणय निमगिल्यार आमी आतंच चल्याली व्हार्डीक करनाती-अशीं जवाब दिताले.

चल्याक सम आशीले वावर मेळनी म्हणु सांगू जातवे? व्हार्डीके मारकेटांत मोल ऊणे जायनावे? एक दीस ताणे हळू अम्मा लागी सांगले – "अम्मा, म्हाका बरें काम मेळ्ळा –" अम्मा जाण न्हयवे पुता –" "न्हय, हांवे उडगास केल्लेलो म्हणु मात–" रमाकोतान माथें परसीलें.

'पडयान बाळ उकळतना' कळनावे कित्याक म्हणु

आवसूक विषय मनां गेले. तिगेले ओंटार एक चोर हास पावसाडींतुले आळांबे सी उदेलो.

"मनां गेल्ले-मना गेल्ले. हांव बापा लागी उलयता." आवसून रातीच ताचे बापसू लागी प्रस्ताव काळ्ळो

"आमगेलो कांतु वाडून राबला. गोतु आसा. नंवें तुमका? बरें कामय मेळ्ळा. आनी तागेले जातक भायर काडयत–"

"तशीं सांगलेवे ताणे?"

"ताणे सांगुनू जावकावे? आमगेली जवाबदारी न्हयवे?"

"तूंवे सांगचे 'सेंट परसेंट' करक्ट. प्राय तीस जाले नावे. पोटा भुके वेळारी खवच्या दीनातलारी कशीं. आमका पळोया–"

हेर दीस धोरनु रमाकांताले बापसून गुपीत अपण्याले एक दोनी दोस्तां लागी रमाकांताली खबर काळी. खंय चेल्ली आसल्यारी दाखोवनु दिवचा सांगले. पुणी आमगेले समाजांत चेल्लाले कडेन थाकून चेल्ये सोदून

वची रूढी ना न्हयवे. देकून खबर कळनु चल्योंले आवसु-बापसून सोदून येवचाक थोडो वेळ काळों... मागीरी एका मागशी एक जानक येवचाक आरंभ जाले. जानक आयल्यारी पुरवे? मेळामेळी जावका... चेल्ली पळोवचाक सम आसूका. शिकवण जावका. कुटुंब चांग आसूका... वावर आशीली जाल्यारी भोंव उत्तम...

दोनी वर्स जावनु रमाकांनाक सोयरीक येना आसा. परंतु एक नातल्यारी एक अडचण !

रमाकांतालें शुध्द जानक. देकून मेळामेळीक कस्ट. मेळामेळी आशीले चेल्येंगेलो फ़ोटो हाडयलो. एक्कय मनाक हीन जाली ना. एकली गुड्डीं. आनी एकली दीगी. मागीरी एकली काळी. एकली गोरी आसा, तरी दांता बोंचो आसा.

रमाकांनाक बेजार लागून गेले !... सिनेमांतु, टी.वी. सीर्यलांतु कसल्याक मार्केटांत थांय क्रिनले चंद चेलिया पळोवचाक मेळनाती ! ताणे लेकले – आमगेलें जी.एस.बी समाजांत चंदी चेलियो नावें !

रमाकांतान वावर करचे कंपनींत नवे एक नेमणी (appointment) जाता–अशें आयकून सर्वांक 'एक्सैटी' (हुसको) ! एक मिस गायित्री. चेल्ली देकून सर्वांकय चड एक्सैटी ! क्वार्डींक जाल्लेले अर्ध म्हानारांक नांय ! ... ती कशीं आसु पुरो चेंदीं आसकी. स्लिम आसकी. मेळनु येनली की – हें जाणा जावचाक आशीलो उत्सावु !

क्वार्डींक जायनातीले रमाकांनाक उतसावु न्हय; परंतु उतवेगु ! कसली जानी आसूका? चंदी आसकी?... पिराय क्रिनले.? वगैरा... वगैरा...

एक शुक्रारा ती आयली–मिस गायित्री सक्कडाली दृष्टि तिजे सुतू घूंवली– फुला सुतु भोंवर सी.

एक साधारण चेल्ली. मामूली वेसु–क्वोड 'मेयकप' ना. काळी न्हय. तरी क्वोळ्ळी गोरीय न्हय –

तिका पळोवनु सर्वांक निरास जाली. सर्व फुग्यांतुलें वारें गेल्ला वरी जाल्लेंती !...

एक 'प्यूण' (peon) गायित्रीक रमाकांतालें लागी आशीली कुर्सी दाखोवन दीवन परत, गेलो "May I occupy this seat Sir?" गायित्रीन मान दीवनु निमगीले –रमाकांनाक. "By all means. Are you Miss Gayathri - Fresh appointment?"

रमाकांतान मर्याद दाखयली.

"yes व्हय–"

ती कुर्सेरी बसली.

पांच घडियेन थांगा एक अधिकारी (officer) आयलो. रमाकांत उठावन रावलो. गायित्री, बी.

"मि. रमाक्रांत, ही गायित्री. आज 'जोयन' जाता आसा. तिका डौट कसलें आस तरी हेल्प करी –"

"Yes Sir-"

अधिकारी पोर्तलो.

गायित्री चंदी म्हळ्ळलो अभिप्राय जावो रमाकांताक ना. एक चेल्ली–तरणाटी तितलेच !

ती कशीं जाल्यार म्हाका इतें खंय–एकेक पटी रमाकांतान, नुस्तीं तरी लेकू आसा... तरी मनीसालें मन नंवे? दीस वचे तशीं तंगेली दोस्ती चडता गेली !... तिगेले चाल–चलन ताका इस्ट जाले !... तिगेले हासांत कसले की एक रवासगी आस म्हणु ताका दिसले !... ताणी लागी– लागी बैसून वावर करताती देकून उत्रांत, चालतींत स्वातंत्र्य चड जाले... ताणी एक समाजांतुलें म्हणु तांका मनां जाले...

एक दीस तीणे निमगीले –

"रमाकांतालें घरकडे कोण–कोण आस?"

"हांव, आनु आम्मा आनी धाकला भाव. म्हाका भयणी ना –"

ताणे हसता जवाब दिले.

"बायल?"

तीणें जुरगंता निमगीले

रमाकांत हासलो

Iam still Bachelor-"

नी सल्प वेळु निशब्द जाली !

"जातकं येता आस. येदोळु मना पसंद जाल्लेली कोणय मेळनी –"

रमाकांतान हस्तती सहज सांगले.

अर्ध घडी पुनः मौन.

"what about you?"

गायित्री जवाब दिवचाक मागशेली. तिगेलो विचारु वारां पळ्ळले कागदा चूरु सी खंखय घ्रवला !... ओंटारी एक सुको हासु उदेलो !

"जावका जाल्यार फटी सांगून सत्याचे नोंडारी परदो घालियेत–"

एक घडी नी माथें लांबोवन बसली. तो तिजे तोडांर चोवन् बसलो...

"– एक्रय मेळामेळी ना. मेळामेळी आसल्यार फोटो पेटोवचा सांगताची फेटो पेटयलारी चेल्ली इस्ट जायनी म्हणून फोटो वापस करताची –"

तीणे एक लांब उसास काळ्ळो.

"देवान दिल्लेले रुप म्हाका चेंज करू जानवे?" गायित्रीले दोळे भरनु आयले... तोंड काळें पडले... हें आयकून रमाकांताक आपण्याले मनाक कोणकी सकडी फाथोर मारला वरी अनुभव जालो !... ताणे बी किनले की चेलियेंगेलो फोटो वापस केला– चंदी न म्हळ्ळले एका कारणान... तें एक चूकी म्हणु ताका आज मरेन दिसनी... त्या वेळारी चेल्येगेले मनाची पीडा किनले मटाक आसन म्हणु ताणे आलोचन करनी... चेल्येंक पळोवन सोडचाकय चांग न्हयवे–हो रमाकांतालो न्याय... गायित्रीन दोळे पुसून घेनले आनी हासला म्हणके केले.

ती मुखार्सली –

– देकून हांवे कंप्यूटर कोर्स' computer course करनु कामाक यल केले... मंगेले रुप पसंद करचे कोणय आय्ल्यारी, त्या वेळारी व्हार्डीके खातीर आलोचनकरया म्हणु लेकले–"

तीणे राबयलें. तागेले मर्दी मौनाच्या पागार उठलें !

"इस्ट नातीले एकल्याक वा एकलेक व्हार्डीक कोरनु घेनल्यारी त्या दांपत्यांतु सूख मेलतवे?"

"हांवे कोणाकय दोष सांगीले न्हय. एक सत्य सांगले. तिनलेची–"

रमाकांताक उतरांना आशीले.

"इतले जावनूय रमाकांताक मना हीन जाल्लेली एक चेल्लीय मेळ्ळी नांवे?"

गायित्रीक अजाप.

रमाकांत काही सांगूक नातल्यावरी नुनां बसलो ! बेगीं व्हार्डीक करका म्हणु आसा. होटलोतूलें खावनु जोवनु बेजार लागले. केदनाय 'एक्रू रागु... एक ताळ !...'

"रमाकांतालो गांव खंय?"

विषय बदलसूचे खातीर तीणे निमगीले.

"मैसूर–"

"बापाले नांव?"

ताणे आपण्याले बापाले नांव सांगले "इतें? मैसूरांतु बळखूचे कोणय

आस वे?"

रमाकांतान अचक्ति निमगीले.

गायित्रीन आलोचन करनु ना म्हणु माथें हालयले.

तांगेले संभाशण थंयक सांपले.

आयजकाल... गायित्री आपण्याला थाकून दूर सरता की म्हणु रमांकांताक संशय सी जालो !... कारणा पसून ताणे आलोचन केल्ले. परंतु आलोचन खंय पावली ना !...

एकदीस रमाकांतान गायित्रीलो घरा पतो सोदून काडलो.

'हो पतो खंयकी वाचलामू ! खंय?"

रमाकांतान एकलो बैसून चिंता केली... एका-एकीं तागेले बुध्दींत एक झलक सी उगडासाक आयले !

एक वर्स फूडे, ह्या चेल्येलो म्हणु दिसता चल्ली पसंद जायनी म्हणु फोटो वापस केल्लेलो... व्हय. मिस गायित्री पै... जातक चांग जावनु मेळनु येताले... फोटो पळोवनु चल्ली इस्ट जायनातीले सोळ्ळले... गायित्रीक विषय मनां जावन आसूका... देकून ती मेजला थाकून दूर वता आस...

रमाकांताक मनांत कांटो लागला वरी जाले...

अम्मा म्हाका एक चल्ली इस्ट जाल्या-"

रमाकांतान आवसु लागी प्रस्ताव काळ्ळो. दर शुक्रारा रातीचे तो मैसूराक आपण्याले घरकडे पावतालो. आयतार राती पोरतून वतालो.

"व्हयवे पुना चांग जाले आमगेली जातीवे?"

"आम्मा इतें तशीं निमगीता?"

"तुका संशय आशीलो नंवे आमगेले जातींत चंद चेल्यो आसकी म्हणु-"

"ही चेल्ली चंदी म्हणु हांवे सांगले ना मू?"

"मागीरी?"

"म्हाका इस्ट जाली-"

कोण ती पुण्य केल्लेली? कोणाली धूव? खंचे गांवची?"

"मंगळराची अम्मान तिगेलो फोटो पळयला-" "केदना? हांवे फ़ोटांतु पळयलली चल्ली कोणय तुका इस्ट जायनी मू?"

आवसून पुताले तोंड पळयले. ताका लजासी जाली.

"एकेक चलियो फ़ोटांत सम येनाची-"

"मेळामेळी पळोवचे नाकवे?"

"फोटो पळयला म्हणताना, मेळामेळी आस म्हणु नंवे अर्थु –"

तो गायित्री खातीर आवसूलागी उलयलो.

"एक पटी नाका म्हणु दवरलली सोयरीक वापस कशींरे तांचे लागी उलोवचे? बापा बड्डी काणु येतलो–"

आवसून आपण्याली ना खोशी प्रकट केली.

"अम्मान लेकल्यारी जाता–"

रमाकांतान आवसूकं 'लोणी लायली.'

"ड.हा. पळोया–"

आवसून तसल्ली दिली.

"आखेर. म्हाकाय एक चल्लो इस्ट पावलो–" गायत्रीन रमाकांताक जाणयले. तिगेले तोंडारी सूर्यतेज !

"व्हयवे congrates -"

तिगेले संतोषांन ताणेय भाग घेनले. "व्हय आन्नालो 'फ़ोण कॉल' आशीलो. येवचे आयनारा निश्चय तांबूल–"

एकेक शब्दांनूय तिगेले आनंद प्रकट जाताले. एक राष्टा वयरी विजय पावला वरि !

"खंचो खैं चेल्लो?"

"तें काही सांगनी. घरल्या येतती 'डीटयल' जावनु सांगुया म्हळ्ळालो. फाय हांव लीव काण वना आस – आश्चर्य तें न्हय. म्हाका पळयनातिलेच ताणे कबूल केले! तें कशीं म्हणु–?"

"खंय पुणी व्हार्डीक–मुंजेक आयील्ले कडेन जावो वाटेर वनाना जावो पळयला आसनले. Best of luck -"

सत्य सांगुया... सांगुया–अशें तागेले मनांत आयले. तरी, नाका, तिका एक surprise (आश्चर्य) आसों म्हणु समाधान घेतले...

गायित्रीलें घर –

गायित्रीक सिगारसिला...तिगेले घरकडचे चल्याले घरकडच्यांगेली वाट पलोवनु बसल्यांती त्या वेळारी तागेलें घरा मुकारी एक मिनीबस येवनु राबले...

...स्वागत–सत्कार जाले...

रमाकांताक पळोवनु गायत्री, हासली. त्या हासांत अनेक अर्थ आशीलो !... फोटो पळोवनु नाका म्हणु सोळ्ळलो मनीस ... लागी लागी कुर्सेर

बैसुनूय काहीं खबर काणतिलो... आता हांव कशी इस्ट जाली?... महा चोरु...

"मेजे लागी आपण म्हणु सांगयीनी तूंवे–" तीणे हळू 'म्हण म्हण' केले!...

"तुका एक सरप्रैस (surprise) आसो म्हणु लेकले–"

ताणेच हळू सांगले.

दोगालेंय तोंडारी आनंद.

...निश्चय जाले... व्हार्डीकेची तारीख खंडित केली...

... इष्ट जायनी म्हणु दवरलेली चल्ली एक नियोग सी... ऋणानुवंद सी... तागेले जीवनांत आयली !

बाल्ला कुडको: व्हार्डीक जाल्लेले 'प्रथम राती (First Night) गायत्रीन प्रेमान रमाकांता लागी निमगीले –

"आतां हांव तुमका फ़ोटांतु (photo) आशील्याकय चंदी दिस्ता की?"

रमाकांतान काहीं जवाब दिले ना !... ताणे हळू बेडरूम लेंपाच्या स्विच ओफ़ (switch off) केल्ले आनी गायित्रीक पोटोन धरले...

* श्रणानुबंद रूपेण

पशु, पत्नी, सुत, आलय...

# एक प्रेमकाव्याच्या अंत

"म्हाका इतें करका म्हण् कळना राजु... आनु मेगेली सोयरीक पळयता आसा. म्हाका ओट्र भंय जाता आसा–"

रमणी आनी राजीव वेळेरी बैसून असंनी... थंड वारें तांगेले शरीराक शेळवन दिना आसा. तरी रमणीले मनांत उजो ! समुद्रांतले ल्हारां अपण्याले काळजांत मारला वरी अणभव जाता आसा तिका. कारण त्या प्रेमींगेले मर्दी एक प्रोब्लम येवनु पडला !

"राजु कांय उलयना इतें?"

रमणीन ताजे तोंडाकऽ पळयलें–अपण्याले प्रश्नाक तो कसलेंय निवारण सांगून दितलो अशें प्रतीक्षेन "हांवे इतें म्हणु सांगचे? म्हाकाय कसली वाट दिसना." तांगेले मर्दी निशब्दनाय भरनु राबली–थोडे वेळु ! "आमी रजिस्टर्ड मेरेज (Register Marriage) करनु घेतल्यार इतें? आमीं मैनर न्हय नवें–"

तीणे अपण्यालो अभिप्राय मुकार दवरलो. त्या अभिप्राय ताकाय सम दिसलो. जाल्यारी आवसु–बापसूक एक्रू पूतु नो. अपण्याला वरी तांकाय आशा आशीं नावें, एक्का पुताक विज्रंभणेन व्हार्डीक करका म्हणु. तेंवंय न्हय. अपण्याक चांग एक वावर ना. आशीले सात वावरान कुटुंब पळोवनु घेवच्याक प्रयास आसा.

"म्हाका आलोचन करुंक टैम जाय–"

आखेर तागेलें तोंडां सुकून पळ्ळें !

"तूं आलोचन करता बैस. तिनले वेळार म्हाका कोणाकय व्हार्डीक करनु दितलींची –"

निगेले तोंडारी परिभव... आमगेले देशाचे मंत्रिसभा वरी प्रोब्लम सोळव करू जायनानीले तांका बिदा जावका जालें !

–२–

आवसु–बापसूलें निवेदनाक रमणी ड्रस करनु चल्नी पळोवच्याक आयिल्यांगेले मुकार मातें लांबोवनु कुर्चेर बसली... तिगलें ह्रदयांत उतळ–पुतळ जाता आसा... तिका दोळ्या मुकार हासमुखी राजीवालें तोंड आड राबल्या ! आवसु–बापसूले मुख कमल प्रफुल्ल जाला. धना कुटुंबांतुलो चलो. व्यापारांत हात भर आदाय. पलोवचाकय व्होड दोष सांगू ना.

शिकवण 'ग्राजुवेशन' मात्र म्हळ्ळलो एक दोष. जावका जाल्यार सांगूयेत ! आयजकाल चल्ये चर्डुव पोस्ट ग्रेजुवेशन (post graduvation) आनी प्रोफशनळ डिग्री (professional degree) करताती. रमणीन एम.कोम. (M.Com) केला. चल्यान रमणीक नियाळें. तागेले आवसु–बापसून बी जोक्रून पळयले. तांका इस्ट जाली. पुण एकाएकीं चल्यान एक गुंडु मारलो ! तांतु क्वाडी चूकी सांगू ना. अतां काळार तें सर्वे सामान्य

"म्हाका चल्ये लागी प्रैवट उलोवका –" चल्यान सांगलें. रमणीन त्या वेळार मातें उबरानु एक पावटी चल्याक पळयलें. तागेलो अभिप्राय तिकाय इस्ट जालो. आवसु–बापसूले गैर हाजरीरी चल्या लागी अपण्यालें मनांतुले विरकायत नवें?

"तांतु इतें आसा. उलोयत मू –" रमणीलो बापूस तांका एक कुडांत बैसोन आयलो. "आतां चर्डुव नवे? आमगेले वेळार हें सकड आशीलें वे?"

ताणे आपण्यालो अभिप्राय सांगलो. सर्व हासलींती.

कूडांत रमणी आनी चल्लो तोंडा तोंड पळोवनु बसलींची. कोणे पेले उलोवका म्हळ्ळलो गोंदोळु ! आखेर चलोच मुकारसलो

"खंय थांय शिकल्या?"

"M.Com-"

"हांव बरी B.Com. व्यापार करूंक तितले पूरो म्हणु लेकून Post gratuvation क ट्रै केल्ले ना. तुका जायत वे?"

ताणे तिगेले कडेन पळयलें.

"तें व्होड न्हय–"

"म्हाका तूं इस्ट जाली..."

पुण इस्ट आनी अनिस्टाची खबर न्हय. म्हाका ऑळरडीं एक प्रेमी आसा–"

"सान प्रायेरी हें सकड मामूली. हांवय किनले की चल्येंक लौ (love) केल्लेले आसा. तांका सकडांकय क्वार्डीक करुं जातवे?"

तो हासलो. ताणे ते एक हास्य जावनु काळ्ळें ! "हांवे हासूक सांगीलें न्हय. हांव एक चल्याक लौ करता आसा. ताका सोणु आशीले एक लैफ़ ना म्हाका."

तीणे खंडित सांगलें.

"हें सकडी तुका अतां दिसचे. म्हाका तें व्होड विषय न्हय. जीवनांतु एक पावटी पुणी लौ करनातीलें कोणय नाती."

तो पुन हासलो.

"हो कसलेंक साधन देवा. ह्याका मान मर्याद कांय नावें? हागेलयां थाकून सुटका जाल्यारी कसलीय फटी सांगूका म्हणु दिसना !–

"आमगेले शारीरिक मिलन जाला –" तीणे एक 'ठों मारलें !

"अतां तूवें सांगीलें फटी म्हणु म्हाका गोतु. मेगेल्यां सुकून रक्षा पावचे खातीर नवें? तशीं सकडी सोडूक हांव तैयार ना. तूं म्हाका भो पसंद जाल्या –"

"मेगेले न्हाण राबल्या–"

अकस्मान निगेले तोंडां सुकून त्या उत्रां भायर पळ्ळीं ! तें आयकून चल्लो दंग जालो!

"आनी म्हाका तुजे लागी कसलेंय उलोवच्याना–" चलो उठलो. तीवंय...

–३–

"त्या सोयरिकें सुकून वांचे खातीर म्हाका तशीं सांगूका जालें –"

रमणीन राज़ीवा लागी सांगलें.

आज ताणी गांधी पार्कांत मेळ्यांनी पार्काचे एक मुल्यांतु. चड कोणालीय दृष्टि पणनीलें कडेन त्या प्रेमियो अपण्याले मनो विचार वांटूक वसल्यांती रमणी चेल्ये पळोवच्या आयिल्याक कसलें सांगून परतायले म्हणु राजीवाक विशद करताली.

"जाल्यारीय तूवें तशीं सांगू नज आशीलें. तें सल्प चड जालें –"

राजीवालो अभिप्राय.

"अमगेले सत्य आमका कळता नवें. मागीर इतें आसा भिवूंक?"

अपण्यान सांगील्यांतु तिका ह्योळ्ळी चूकी आसा म्हणु दिसले ना ! कशीं जाल्यारीय राजीव अपण्याक सोणु घालचो ना अशें तिका खात्री आशीली !

"हांवे येदोळु तुजे आगांक आपळावे?"

"ना–"

"तशीं आसतना तूंवें ताजे लागी आमी शरीरान एक जाल्याची... तुगेले न्हाण राबला.. अशीं सांगीलें–तो आनी तागेलें कुटुंबाचे आमचे खातीर इतें लेकतलीं? फाय ताणी सकडकडेन सांगून भोंवल्यारी राजीवाले शब्दांत कळकळी। अपण्याले अभिमानाक मारू पळ्ळा वरी दिसलें ताका... तीणे सोयरीक चुकोवच्या खातीर सांगीलें व्होय... एक वेळा हिका हांव नंतन विंगड कोणय प्रेमी आस की? तागेले वाटेन जावो? – राजीवाले मनांत

संशय पिशासान मातें उबारले! एक्ल्याक 'हळदी रोग' लागल्यार पळयल्ले पुराय हलदूवें जावन दिसता खंय !

"तूं अतां गुर्भीणी?"

ताका अचकित निमगून गेल्लें !

"तुका संशय वे?... आमी केदनाय पुणी 'एक जाल्लेले आस वे? मागीर कशीं हांवे गुर्भीणी जावचे?"

ती हासली. कोपूय आयलो – तागेले संशंय बुद्धी चेरी.

"व्होय नवें?"

ताणेय हासूं पळयले... तो हास व्यर्थ जावनु गेलो !...

–४–

"तुका 'चल्ली पळोवच्या' आयीले चल्या लागी तूंवे कसलें सांगीलें?"

राजीवीले बापसून तिजे लागी कोपान निमगीलें. ताका कोप सयसना आशीलो.

"हांवे कसलें सांगला? म्हाका इस्ट ना म्हणु सांगला–" रमणीन कांय गुमान नातल्या वरी जवाब दिल्ली !

"तितले वे? आनी कांय सांगनी?"

ताणे दोळे गुरगुर केल्लें.

"आनी कसलें सांगूक?"

तिगेले शब्दाक जीव ना आशीलो !

"मागीरी, पयरी आयीले चल्यान तुमगेले चल्येक गयनोकोळोजिस्टा (Gynaecologist) क दाखयाची म्हळ्ळल्याचो अर्थु कसलो?"

ती उलयली ना... अपण्याले एक उत्रा निमित इतले व्होळ्ळे भूकंप जायत म्हणु लेकीले न्हय. 'हांव विंगड एकल्याक लौव करता. देकून म्हाका तुगेले प्रोपोसल इस्ट न्हय' - अशें सांगल्यारी पावना आशीले वे? खंयचे वायट वेळारी तशीं सांगूं दिसले की –

रमणीक पश्चाताप जालो. पुण इतें करूंक. हातां सुकून सोणु गेल्लेलो फाथोरु आनी तोंडां सुकून पळ्ळले उत्रां परतून काडूक जायना खंय !

"कोणाले चर्डुगो तुगेले पोटांतु वाडता आसा? म्हाका अतां कळका"

तिगेली आवसूय थंय पावली.

"हांवे नुस्तीं सांगीलें–"

तीणे मातें लांबयलें!

"न्हय नातल्यारीय तूं सल्प मिखता आसा... पयरी तूं पार्कांतु कोणाले की ओटु उलयता बसीली खंय. कोण तो? तोचवे तुगेले गर्भाक कारण?"

आवसूले उत्रां आयकून रमणी स्तब्द जाली. "अम्मान अनावश्य सांगू नज. हांव राजीवाक इस्ट पावता. तो म्हाकाय. जाल्यारी हांव गुर्भीणी न्हय. जावका जाल्यार डाक्टराक दाखोयेत–"

तीणे आवेशान सांगलें.

"राजीव तुका व्हार्डीक करूं तैयार आसवे?"

आवसु–बापूस सल्प थंड जाल्लींती व्हार्डीके फूडे गुर्भीणी जायनी नवें... तिका राजीव इस्ट तरी आड येवनु कांय प्रेजन ना. वाडीली चली. फाय तीणे रजिस्टर व्हार्डीक कोरनु घेतल्यारी? कसलेंय करु जातवे? देकून तीं चल्येले इस्टानुसार व्हार्डीक करनु दिवच्याक तैयार जालीं...

–५–

हेर दीस रमणी खोशीन राजीवाक फ़ोण करता. परंतु मोबैल 'सुच ओफ़' जाला !... तीणे यत्न करनूय प्रेजन जाल्ले ना !

ती एक ओटो धरनु तागेले दफ़तराक गेली.

"मि. राजीवाक मेळका आशीलें मू–" "सोरी मेडम. तो ट्रानसफ़र (Transfer) घेवनु अपण्याले गोवां गेला –"

दफ़तराचानी विवरु दिलो !

रमणीक अजाप जाले. बेजार बी. एक उतर उलयनातीले ट्रानसफ़र घेवनु गेल्लो म्हळ्यर अर्थु कसलो? हांवे ताजे लार्गी चूकी कसलीय केली वे? की तागेलो प्रेम ढोंगी?

ती हताश घरल्यागी परतली. दोन दिसान तिका एक पत्र आयले– राजीवालें.

रमणीक –

हांवे अपण्याले गांवाक ट्रानसफ़र घेतलें... मरूं जाल्लेले मेगेले अम्माले मागणी प्रकार तिगेले इस्टाचे चल्येक हांवे व्हार्डीक करनु घेवका जालें... तूंवे अपण गुर्भीणी म्हणु–खेळाक आसू पुरो–सांगीले नंतर म्हाका तुजेरी आशीलो विश्वास ऊणे जालो. एक चल्येले तोंडा सुकून असले उत्रा भायर पडतना भो जाग्रते घेवका जाता. कार्य साध्य जावचे खातीर तूं इतेंय करुक फाव आसा म्हणु मनां जाले sorry - राजीव

पत्र वाजून रमणीक मातें घूंवले...



भक्ता आर. काञंगाड

अपर्णालें अपघात – एक फ़्लाषबेक

हरकत

अनामिका

व्यर्थ केल्लेले सपन

आकस्मिक

दूद हाडची पोरी

अर्दार पळ्ळलें घर

आनंद नगराच्या आत्माराम

ऋणानुबंद रूपेणा

एक प्रेमकाव्याच्या अंत

**धा काणीयो... सबार जिणीयो...**

₹ 50/–